## कला चेतना, वळवय निर्मित -
## 'काळजाची काणी' (2000)...



कलाकार
सुचिता नार्वेकार



कलाकार : हेमंत कांसार, सुचिता नार्वेकार आनी सागर नायक.

# पुंडलीक नारायण नायक

## हांगेलीं रंगमाचयेर आयिल्लीं नाटकां

1) खण खण माती 1977
2) रक्तखेव 1978
3) राखण 1979
4) देमांद 1980
5) मुक्तताय 1980
6) सूर्यसांवट 1981
7) शबै शबै भौजन समाज 1981
8) सुरींग 1982
9) मनशाळी मोनजात (रुपांतरीत) 1982
10) पिंपळ पेटला 1984
11) श्री विचित्राची जात्रा 1986
12) दायज 1990
13) चैतन्याक मठ ना 1991
14) आत्मवंचना 1992
15) परिक्रमा 1993
16) दिश्टदौलत 1995
17) तकली तड्डकी (रुपांतरीत) 1998
18) तिरंगी चक्राचक्री 1998
19) प्रेमजागोर 1999
20) शिरी रे शिरी! अधांतरी! 1999
21) काळजाची काणी 2000
22) प्रेमयुद्ध 2000
23) दिव्या दिव्या दिपत्कार 2000
24) अंता घरा भगवंता 2001
25) कांसुलो 2002
26) धनयां देंवचारा 2003
27) चित्र स्वयंवर 2003
28) सांगोड 2004
29) चतुरंगा 2005
30) कथा अस्तुरी 2008
31) फिंर्गी फटास 2011

चत्राय : नाटकाच्या मुखावयलें वर्स, नाटक रंगमाचयेर आयलां तें वर्स.

# काळजाची काणी

(दोन कुळां दोन खुळां)

पुंडलीक नारायण नायक



KALJACHI KANI Konkani Play

by PUNDALIK NARAYAN NAIK



प्रकाशन क्र. : 85

पयली उजवाडावणी : 2012

उजवाडावपी :
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें,
गोंय : 403 401

छापपी :
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट,
वळवय, फोंडें,
गोंय : 403 401

अक्षर जुळोवणी :
रिया ग्राफिक्स
ओल्ड-गोवा,
गोंय : 403 402

मुखचित्र :
श्रीधर कामत बांबोळकार

मोल : ₹ 100/-

ISBN : 81-86488-85-5

**भौ. सुभाष खडपकर...**

तुमी म्हजे शाळेंतले गुरू!
पूण तुमी म्हजी नाटकाची ओड
बळिश्ट केली.
तुमकां दिशिल्लें, हांव नट जातलों.
पूण नाटककार जालों!
तुमच्या पांयांर नमळायेन...

- पुंडलीक नायक

## काणी काळजाक हात घालचे पयलीं...

'काळजाची काणी' हे म्हगेलें 21 वें नाटक. राजदीप नायका खातीर बरयिल्लें हें तिसरें नाटक. श्रीधर बांबोळकारान तें दिग्दर्शित केल्लें. राजदीपाचे कला चेतना वळवय संस्थेन ताचे 'दोन कुळां दोन खुळां' ह्या नांवान सुमार 86 प्रयोग केले. कला अकादमीचे नाट्य सर्तींतूय ह्या नाटकाचो प्रयोग जालो. एकांकीच्या रूपानूय तें माचयेर आयलें.

'काळजाची काणी' म्हणल्यार एक परिकथा कशी. तातूंतली पात्रां परिकथेक सोब सारखींच आसा. कथेंत आनी व्यक्तिचित्रणांत अतिताय आसा. पूण तर्काचे कसवटेर ती अतिताय सभावीक दिसता. कोंकणीत अशे तरेच्यो परिकथा येवपाक जाय. परिकथा ह्यो लोककथां सारख्योच आशिल्ल्यान तांच्या प्रस्तुतीकरणांक लोकधर्मी शैली सुयोग्य थारता. गोंयचे उत्सवी रंगमाचयेर अश्यो संहिता बरेतरेन यशस्वी जावपाक पावतल्यो अशें म्हाका दिसता. हाचें एक कारण म्हणल्यार वास्तव अशीं सामाजिक स्वरूपाची नाटकां, हीं थरावीक व्यक्तिरेखांची मागणी करपी नाटकां आसतात. मात असल्या लोककथांचे बाबतींत ती मागणी बरीचशी सदळ आसता. उत्सवी रंगमाचयेक हो सदळपणा उपेगाक पडूं येता.

ह्या नाटकाची काणी परिकथा जाल्ल्यान ती बालकथेचेंय रूप घेता. हे नाटक बरयताना हांव ताची कथा घरांत चल्याक युगांकाक आनी ऋतुजाक (भावालें चली) सांगतालो. त्या वेळार ऋतुजा बरेंच ल्हान आशिल्लें. 'दादगो आनी म्हादगो जनावरांची काळजां भाजून खाताले', अशें हांवें सांगतकूच ऋतुजान म्हणलें, 'तशें जाल्यार तांकां माणें लागतलें.' म्हाका तें पटलें. कारण तें खरें आसलें. आनी मागीर नाटकान दादगो आनी म्हादगो काळजां भाजून खातकूच तांकां माणें लागता आनी ताका लागून ते दोगूय दिसभर घुंवळिल्ले उरता अशें म्हाका सभावीकपणान दाखोवपाक मेळ्ळें. केन्ना केन्ना भुरग्यांकडल्यानूय शिकपा सारखें आसता, ताची ही एक देख.

भुरगेपणांत हांवें कांय तेप गोरवांचें राखणेपण केल्लें, तो अणभव म्हाका ह्या नाटकाखातीर खूब उपकाराक पडला.

**– पुंडलीक नारायण नायक**

'काळजाची काणी' ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग 'दोन कुळां दोन खुळां' ह्या नांवान, कला चेतना वळवय संस्थेन सार्वजनिक गणेशोत्सव, हावसींग बोर्ड-मडगांव हांगासर ता. 4/9/2000 वर्सा सा. 7.30 वरांचेर सादर केलो.

**श्रेय नामावळ**

| | |
|---|---|
| 1. **जानू** | : राजदीप नायक |
| 2. **चानू** | : विठ्ठल नायक |
| 3. **गिर्जा राणी** | : रेश्मा शेट / सुचिता नार्वेकार |
| 4. **म्हादगो** | : हेमंत कांसार |
| 5. **दादगो** | : सागर नायक/प्रेमानंद गुरव |
| | |
| **दिग्दर्शक** | : श्रीधर कामत बांबोळकार |
| **नेपथ्य / रंगभुशा** | : हेमंत कांसार |
| **संगीत** | : विश्वास च्यारी |
| **गावपी** | : सुचिता कुंकळकार |
| **संगीत संयोजन** | : समीर फर्जंद |
| **उजवाडा येवजण** | : संदिप खेडेकार |

## पात्रांची वळख

| | | |
|---|---|---|
| 1. जानू | – | हुशार आनी शिटूक जुवान राखणो |
| 2. चानू | – | जानूचो धाकलो भाव<br>अती हुशार आनी अती शिटूक राखणो |
| 3. गिर्जाराणी | – | रानांत रावपी तरनाटी चली, एक परि कशी |
| 4. दादगो<br>5. म्हादगो | – | गिर्जा राणीचे जुंवळे भाव, राकेस कुळांतले |

## देखाव – एक

(एक पंगड माचयेर गीत गायत नाचत येता.)

दोन कुळां दोन खुळां तांच्या काळजा काणी
वयर वयर पर्वतार आसली गिर्जाराणी ।।

काम ना वावर ना कितलो मेकळो वेळ
सगळें आयतें भोंवतणी वंये भितरली केळ
दुःख तिचें निथळटालें पावला कणकणी ।।

वाट पळौन दुकां गळौन सारता तिनूय पार
कोणांक कितें सांगतली जीव जाता फुगार
केन्ना कशी फेडची आसा वाटेवैली देणीं ।।

## देखाव – दोन

(पंगड गायत भितर वता. ल्हवू ल्हवू मार्ची उजळटा. माचयेर दिसता दोंगराची तेमी. तेमयेर एकेवटेन एक उंच कटो कसो दिसता. दुसरेवटेन एक खोंप दिसता. खोंपीक एक दार आनी जनेलां. खोंपीच्या दाराकडेन सोपणां. खोंपी भोंवतणी वंय. वंयेभितर तरेकतरांचीं झाडां आनी तांचेर फुलां. वंयेंक एक आखाणो आसा. आडवे दांडे घालून आखाणो बंद केला. वंयेकडेन एक खुंटो आसा. त्या खुंट्याक एक दोरी बांदल्या. दोरी खुंट्याक कवळून दवरल्या. वंयेकडेन एक माचूल आसा. तें बरें शिंरगारलां. दोगां मनशांनी उबारपाचें हें माचूल. वंयेच्या खुंट्याक फुलांचो एक रितो कुरपणो हुमकळटा. कटो आनी खोंप हांचे मुखावयली सुवात मेकळी आसा. थंयसावनूच सकयल वचपा-येवपाक वाट आसा. हे सुवातेर दोशीं-वशीं बसपाच्यो दोन बसका दिसतात. सगळें वातावरण परिकथेंतलें कशें सोबीत सुंदर!

वेळ सकाळचो. रानांतल्या सवण्यांचो आवाज. सकाळचें वातावरण निर्मुवपी संगीताची धून. वंयेभायले मेकळे सुवातेर दोग जाण हेवटेन तेवटेन अश्यो पासयो मारतात. म्हटल्यार पारो करतात. पळोवपाक दोगूय जाण राकेसकुळांतले कशे दिसतात. भेसूय तसोच. दोगांयच्या हातांत चकचकीत धारेचे व्हडले दोन सुरे. ते तांणी खांदार मारल्यात. ते पारो करतात खरे, पूण दोगूय

झेमतात आनी तशेच पासयो मारतात. तातुंतलो एक्लो दादगो आनी दुसरो म्हादगो. कांय वेळान खोंपीचें दार उकतें जाता. भायर येता एक तरनाटी चली. ही गिर्जा. भेस पर्येसारको. आंगार अळंकार. ती आतांच न्हिंदेतल्यान जागी जाल्या. ती भायर नदर मारता. ही गिर्जा भायर पारो करपी भावांची भयण. ते दोगूय भाव अशेतरेन तिची राखण करतात. सोंपणा देंवून ती सकयल येता. गोंयड्याकडेन पावतकूच अनमनता. मागीर ल्हवूच गोंयड्याचे एक-दोन दांडे काडटा आनी भायर येता. दादग्याक आनी म्हादग्याक बारीकसाणेन पळयता. जाल्यार दोगूय (न्हिदल्यात आनी पासयो मारतात तांकां दोगांकूय आदळ नासताना गिर्जा मुखार येता आनी उलयता.)

गिर्जा : (हेवटेन तेवटेन वचून दोनूय हात जोडून नमस्कार करता.) नमस्कार. तुमकां, तुमकां, तुमकां आनी (मान वयर करून) तुमकांय नमस्कार. हांगां आनीक कोणांक नमस्कार करतली हांव? ह्या पर्वतार तुमी सोडून आनीक दुसरो कोण आसा? तुमी झाडां आनी पेडां, सुकणीं आनी सावजां. झाडांनो, सदचेवरी तुमी म्हजे आदींच उठलीं. रातीं न्हींद कशी पडली? वाऱ्यान पानां चड झडलीं ना मूं? आनी सुकण्यांनो तुमचें कितें? रातीं शीं चड बादलें ना मूं? आनी आयज नवीं कसलीं गायनां? म्हजे कितें चल्लां काय म्हणटा? हे पर्वताचे तेमयेर म्हजें कितें चलपाचें? पयरचे सारखो कालचो दीस. कालचे सारखोच आयचो दीस. आयचे सारखोच फायचो दीस, दिसांचे दीस, रातिच्यो राती, म्हयन्याचे म्हयने, वर्सांचीं वर्सां. कितलीं वर्सां कोण जाणां ! (पळयत) ए ऽ ऽ रूखा,' तुकां एके रातीन काय बरी पोपटी आंकरी आयल्या. ए ऽ ऽ किरा, खबरदार नवी आंकरी तोडशी जाल्यार. (दुसरेकडेन पळयत) आनी ए ऽ ऽ सवण्या पिपुश्या, एके रातीन तुज्या पांखांचो रंग कसो बदललो? आयज भुर्र करून खंय वतलें! काय दीसभर खांदयेचेरूच बसून

रावतलें? (हांसत) आयज हांव कितें करतलें काय म्हणटा? म्हजें कितें? तुजे सारखीं पांखां ना. हातपांय आसा. पूण म्हाका जाय तशे ते खंय वापरपाक मेळटा? (भावांकडेन पळयता) हे कोण म्हणटा? म्हजे भाव, दोगूय जुवळे. म्हजे भाव पूण म्हजे सारखे दिसनात न्हय? हांव तरी तांचे सारखें खंय दिसतां? पूण ते म्हजे भाव इतलें खरें. सामके अपुरबायेचे भाव. (बोट दाखोवन) हो दादगो. न्हय न्हय, तो दादगो आनी हो म्हादगो. दोगूय जुवळे म्हणटकच व्हडलो–धाकलो असो भेद ना. हांव तांगेली अपुरबायेची भयणुली. गिर्जा. गिर्जाराणी. राणी कसली कपलाची! राजाच ना. राजा आसा खंयच्या रणां देव जाणां! राजा ना आनी हे दोग राकेस मात आसात. ते कितें करता काय म्हणटा? राखण करतात. भयणिची राखण. मरचे आदीं आवयन तांकां सांगलां न्हय, आवयचे आज्ञेचें पालन करतात. जागेपणीं आनी न्हिदेंतलेगीत. तीं काळजा खातात न्हय देखून अशें माणें लागून न्हिदसुरे उरतात. आतां ते कशे उठटले जाणां? तांगेलें सदचें गीत म्हणपाचें आनी तांकां जागोवपाचें. तेबगर ते उठपाक नात.

(गीत गावपाक वता. मागीर ताका कसली तरी याद जाता. ल्हवूच आखाणो हुपून भितर वता. आसा तसो आखाणो घालता. खोंपींत वचून एक ताट हाडटा आनी एक कोंड्याचो कुडको. आखाण्याच्या भितर रावन कोंड्याचे तोणयेन ताट बडयता आनी म्हणटा –)

**दादग्या.रे म्हादग्या रे**
**उठा उठा उठा**
**किर्णां आयलीं पर्वतार**
**पटा पटा पटा**

(दोगूय खडबडीत जागे जातात आनी त्याच तालाचेर गावपाक

लागतात.)

दोगूय : **गिर्जाराणी भयणुले**
**उठले तुजे भाव**
**हालूं नाका धोलूं नाका**
**थंयच उबी राव**

(मागीर दोगूय धांवत आखाण्याकडेन वतात. आखाण्याचे दांडे काडटात. तेसरशीं गिर्जा आखाण्याचे वाटेंतल्यान भायर मेकळे सुवातेर येता.)

गिर्जा : दादग्या म्हज्या भावा, तूं कसो आसा? आनी भावा म्हादग्या तूं कसो आसा?

दादगो : हांव दादगो. बरो आसा भयणी.

म्हादगो : हांव म्हादगो. बरो आसा भयणी.

गिर्जा : दादग्या, तूं कालचेपरस व्हडलो जालो.

दादगो : (खूश जावन) खरेंच?

गिर्जा : हय रे हय! (ताचे म्हऱ्यांत रावून ताची उंचाय मेजता.) एंका आंगळान व्हड.

म्हादगो : आनी हांव?

गिर्जा : आरे, हय मरे ! (ताचीय उंचाय तशीच जोखता.) तुंवूय एका आंगळान वाडलो.
(म्हादगोय खुश जाता.)

दादगो : (अकस्मात याद जाता.) आहा! बरी याद जाली!

गिर्जा : कसली याद?

दादगो : गिर्जाराणी एका दिसान व्हड जाली (हांगा थंय सोदता. हातांत एक बारकेलो फातर घेता आनी तो फातर कुशीक दवरिल्ल्या एका मडक्यांत घालता.)

गिर्जा : (निराश जावन) केन्ना भरतलें तें मडकें?

दादगो : आमकां खबर ना.

म्हादगो : मडकें भरतकच कितें करपाचें तें मात खबर आसा.

दादगो : भयणी गिर्जाराणी, तुकां रातीं कोणें त्रास दिलो ना न्हय?

गिर्जा : दिलो रे दिलो. खूब त्रास दिलो.

दोगूय : (सुरे उबारून) कोणें?

गिर्जा : त्या ऽ ऽ ताणें. सुर्याचो गुळो कसो चकचकीत. हाताचे दंड अशे – वंयेचे खूंट कशे. माथ्याक मुकूट. गळ्यांत हार. शिंवापरस शूर आनी बिबट्या वागापरस चतूर.

दादगो : तो हांगा पर्वतार कसो आयलो?

गिर्जा : घोड्यार बसून.

म्हादगो : कशें शक्य आसा? वयर येवपाची ही एकूच वाट. तेवटेन कटो. कट्यावयल्यान कोण येवप शक्य ना.

गिर्जा : तो आयलो हेच वाटेंतल्यान. घडाघडा पर्वत चडून वयर आयलो. मागीर हांगा. हांगासल्ल्यान आखाणो हुपून वंयेभितर. मळब जाल्यार दार बंद. जनेलांतल्यान उडकी मारून भितर. सामको म्हज्या आंगार. म्हाका रातभर ताणे तरातरांचे कश्ट दिले.

दादगो : आतां तो खंय आसा?

गिर्जा आसिल्लो तसो गेलो. (दाखयत) जनेलांतल्यान भायर. थंयसावन हांगा. हांगासावन हांगा, हांगासावन घडाघडा करून खाला.

दादगो : जनेल बंद करूंया.

म्हादगो : आखाणो आनीक उबार करूंया?

दादगो : पर्वताचीं सोंपणा निखळावंया.

गिर्जा : सोंपणां निखळावंया? मागीर तुमी वयर कशे येतले?

म्हादगो : आमी वयर येतकूच सोंपणा मोडुंया.

गिर्जा : आनी मागीर सकयल कशे वतले?
(तांकां समजणी मेळटा.)

दादगो : पूण आमी हांगा राखण करता आसताना तो आयलोच कसो?

गिर्जा : सांगू? (तांचे राखणेची नक्कल करून) तुमी राखण करताले अशे न्हिंदून.

(दोगूय चूक जाली म्हणून पोले फोडून घेतात.)

दादगो : शी! शी! चूक जाली.

म्हादगो : आतां अशे न्हिंदप ना.

गिर्जा : ना रे ना. तशें कांय घडूंक ना. तो आयलो खरो पूण सपनांत. ताणे कश्ट दिले तेवूय सपनांत. (गिर्जा हांसता. दादगो आनी म्हादगोय हांसतात.)

दोगूय : सपनांत! सपनांत!

गिर्जा : (ताचें कवतूक करीत) भाव म्हजे शाणे शाणे शाणे ! गुणे गुणे गुणे ! बोणे बोणे बोणे! सकाळ जाली. आतां कामाक लागता मरे?

दोगूय : हय.

गिर्जा : पयलीं कसलें काम?

दादगो : उदक हाडपाचें.

गिर्जा : मागीर?

दादगो : मागीर? खबर ना. पयलें काम जातकूच मागीर दुसरें आपशींच याद जाता.

गिर्जा : पयलीं याद केल्यार कितें जाता?

म्हादगो : तकली दुखता.

दादगो : मागीर रडपाक येता.

गिर्जा : भोंगू ते यादिचें. पूण रडूं नाका म्हज्या भावांनो. तुमी रडप म्हणल्यार गडगडो मारून पावस पडप.

(दोगूयजाण आखाणो हुपून दारांतल्यान खोंपींत वतात.)

(झाडांक लेखून) आतां जालें हांचें काम सुरू. ए ऽ ऽ रुखा, तुकां हांसपाक कितें जालां? तूं कसलें काम करून जाणा? भेंडाक मात बाग घेनासतना मार उबें आसा म्हणून बरें. नाजाल्यार म्हजे भाव कितलें काम करतात! ए ऽ ऽ चिंव चिंव

चिमणे, किटकिटूं नाका वगीच. भावांक सांगून तुकां धरूंक लायतलीं आनी तुजें काळीज भाजून खातलीं. म्हाका सुकण्यां-सावजाचीं काळजां आवडटात म्हणून खबर ना तुकां?

(इतल्यान दोगूय भाव खोंपींतल्यान भायर येतात दोगांयच्या हातांत एक एक मडकें आसा.)

गिर्जा : दादग्या, म्हादग्या खंय वतात?

दादगो : उदक हाडपाक वझऱ्यार.

गिर्जा : हांव येवं वझऱ्यार?

म्हादगो : नाका. तुज्या पांयांक फातर तोंपतले.

दादगो : कांटे तोंपतले, रगत येतलें.

म्हादगो : मागीर आमकां रडपाक येतलें. गडगड आनी पावस.

दादगो : तूं हांगाच राव. आमी तुकां उदक घेवन येतां.

म्हादगो : (अकस्मात ताका याद जाता. मडकें सकयल दवरता. दांड्याक गुठलावन दवरिल्लो दोर काडटा आनी म्हादगो दोराचें पोंत गिर्जाच्या कमराक बांदता. एक पोंत खुंट्याक आसा.)

गिर्जा : (फकांडां मारीत) तरी म्हणटां, विसरलो काय कितें!

(दोगूय मडक्यो घेवन सोंपणां देंवन सकयल वतात.)

(बांदिल्लो दोर दाखयत) ही म्हजी काळजी. हांव खंय पळून वच्चें न्हय म्हूण म्हाका अशें बांदून घालप. पूण सामके खुळे. म्हज्यान ही दोरी सोडोवपाक जाता हें तांकां खबर ना. (दोरी सोडटा.) तशेंच ह्या आखाण्याचें. म्हाका गोंयडो काडपाक कळटा हें तांकां खबर ना. तांकां ताची खबर करून दिवप म्हणजे तांची तकली दुखप. मागीर रड, गडगडप. पावस. म्हजे भाव खुळे खरे, पूण मायेस्त. (सवण्यांक) तूं खांदयेर बसून हांसूं नाका पिटपिट्या. तुजो हांव दोकोच मोडटलें. (तेवटेन एक फातर मोखून मारता.) मायेस्त म्हणजे! मायेस्तूच ते. असले भाव मेळपाक सात जल्माचें तरी पुण्य जाय. हे म्हजे खरे भाव. म्हणजे तांची आनी म्हजी आवय एक. आतां

आवय खंय आसता काय म्हणटा? आमी हांगा पर्वतार आनी ती आनिकूय वयर म्हणल्यार सर्गार. तर आमची आवय एक, पूण बापूय एक न्हय. ए ऽ ऽ शिरपुट्या, हांसपाक कितें जालें? अशें घडटा आं-केन्ना केन्नाय. म्हजे आवयकूय अशेंच घडलें, म्हणल्यार एका राकेसान तिका घट धरली आनी तिचेर बळजबरी केली. मागीर तिगेर दोन जुवळे चले जाले. तेच हे दादगो आनी म्हादगो. जातनाच अशे घसाघसा वाडले आनी तशेच उरले. आतां वगीच तांकां व्हडले जाले म्हुण फुसलायतां. मागीर बापायपसून हांव जालें. पयलीं बापूय मेलो. आमकां बापायची याद ना. मागीर आवय मेली. म्हाका तिची याद ना पूण दादग्याक आनी म्हादग्याक तिची घट याद आसा. तिचेपरस तिणें सांगिल्ल्या उतरांची चड याद आसा. मरचेआदीं तिणें सांगिल्लें-

(इतल्यान दादगो आनी म्हादगो वयर येतात तो आवाज.) आयलेशे दिसता. (बेगिबेगीन सोडिल्लो दोर आपणाच्या कमराक आशिल्लो तसो बांदून घेता. दादगो आनी म्हादगो मडकीं घेवन येतात. आतां तातूंत उदक आसा. ते तशेच खोंपींत वतात.)

मरचेआदीं आवयन तांकां सांगलें, ही तुमची भयण. गिर्जाराणी. तिका राखपाची. तिका खंय दुखूंक जायना. कांय खुपूंक जायना. सांगतां सांगतांच आवय हांच्या दोळ्यांहुजीर मेली. हे येद्या व्हडल्यान रडले-खऱ्यांनीच गडगड मारून पावस पडलो. तशें आवयन तांकां आनिकूय कितें कितें सांगलां. पूण ताची तांकां याद ना. (याद जावन) ए, ए आतां म्हाका निखालस वेळ ना आं. सुर्या पळय खंय पावलो. एक कांसरो वयर. आतां म्हजो फुलांक वचपाचो वेळ जालो. (उलो मारता.) दादग्या, म्हादग्या म्हाका फुलांक वचूंक जाय. म्हाका सोडय. फुलां

कित्याक काय म्हणटा? हार गुंथूंक. हार कोणाक काय म्हणटा? तुकां कित्याक? हांव गुंथिना कोणायखातीर. तुकां कित्याक पडलां? हांसता बरें चीं चीं चीं. दांत काय ना. फकत चोंच. (दादगो आनी म्हादगो बेगिबेगीन भायर येतात. आखाण्याचे दाणे घालून तो बंद करतात. गिर्जाच्या कमराची दोरी सोडटात. दोरी खुंट्याक गुठलावन दवरतात. गिर्जा वंयेच्या खुंट्याक लायिल्लो कुरपणो काडटा. हातांत धरता. माचुलांत बसता. दादगो आनी म्हादगो माचूल उखलता. दादगो फुडें, म्हादगो फाटीं.)

आतां अशें माचुलांत बसून रानांतलीं फुलां खुट्टलें.

(कशें खुट्टलें तें दाखयता. गीत गायता.)

**आटल्लो पाटलो फुलांचो पाटलो**
**कणेर चांफो शंकर खुंटलो**

(दोगूय जाण माचूल घेवन मेकळे सुवातेर एक दोन भोंवर मारता आनी मागीर सोपणां देंवन वतात. माचूल व्हरतना गती-गीत गायतात.)

एकलो : **ओ रे ओ रे सोय सोय !**
दुसरो : **ओ हो ओ हो !**
एकलो : **माचूल कशें धांवता पोय !**
दुसरो : **ओ हो ओ हो !**
एकलो : **ओ रे सोय ओ रे सोय !**
दुसरो : **ओ हो ओ हो !**
एकलो : **माचुलांत कोण बसला पोय !**
दुसरो : **ओ हो ओ हो !**

(गती–गिताचो आवाज उणो उणो जाता तशी कट्याकडली सुवात उजळटा. कट्यावयल्यान कोण तरी वयर चडपाचो यत्न करता तो दिश्टी पडटा. पयलीं दांडो दिसता. थोड्या वेळान एक आडसाठो तरनाटो कट्यावयल्यान उडकी मारून वयर येता. तो बरोच खर्शेला. कमराक भेस, धनगरी पद्दतीचो. हातांत दांडो. हो एक राखणो. नांव चानू. चानयेभशेन शिटूक. तो हांगा थंय नदर मारून कोण आसा काय म्हूण पळयता. ना म्हूण खात्री जातकूच कट्याकडेन वता आनी सकयल मान बागोवन उलयता.)

**चानू** : दादो, कोण ना. यो तूं, वयर यो. (ताका चत्रायो दिला.) त्या फातराक घट धर. तो न्हय. तो कोसळटलो. दुसरो. हांव आयलां तेच वाटेन यो मरे. ते वालीक धरूं नाका. तुट्टा ती. दादो, पडशी. सकयल पडल्यार खुर्दो जातलो तुजो. (अकस्मात) दादो, निसरलो पळय. ते खांदयेक घट धर. राव, राव तसोच राव. (कट्यावयल्यान कुशीक सरून हेवटेन तेवटेन पळयता. कितें तरी सोदता. खुंट्याक गुठलायिल्ली दोरी नदरेक पडटा. बेगिबेगीन ती सोडटा. एक पोंत खुंट्याक बांदिल्लें आसा. दोरी कट्यावयल्यान सकयल वडयता.)

**चानू** : दादो, दोरयेक धर. भियेवं नाका. दोरयेवयल्यान वयर यो. दोरी बरी बांदून दवरल्या. चडपा-देंवपाकूच आसतली. (आपूण दोरी ओडटा. दोरयेच्या पोंताक धरून एकलो जुवान वयर येता. हो चानूपरस व्हडलो दिसता. चानूचो भाव जानू. भेस तसोच पूण चानूपरस मातसो बरो. हातांत दांडो आसा. आनी कमराक बांसरी खोयल्या. जानूक खूब धांप लागल्या. चानू दोरी कंवळटा आनी आसा तशी खुंट्याक गुठलायता.)

**चानू** : दादो, तूं कसलो पडपाचो जाणां? उदक मागपाक पावचो नासलो. कसलो राखणो रे तूं! हांव कसो चानयेभाशेन कटो चडून वयर आयलों.

**जानू** : तूं चानयेभाशेन शिट्ूक, देखून तुजें नांव चानू.

**चानू** : आनी तूं जाणकार, देखून तुजें नांव जानू. हय मरे?

**जानू** : (हांसत) म्हाका मरे कट्याचो बरो अदमास मेळ्ळो ना. बरोच ऊंच आसा. ह्या वाठारांतलो सगळ्यांत उंचेलो कटो हो. पयले खेप म्हूण थोडे कश्ट पडले. दुसरे फावट कांय न्हय करून चडपी हांव. चडपी तसो देंवपी. गाराभशेन अशे चपके मारून.)

**चानू** : म्हणजे दुसरे फावट अशें कट्यावयल्यानूच येवपाचें? तेवटेन काय बरी सोपणांची पाज्ज आसा.

**जानू** : पूण सोपणांकडेन ते आसतात न्हय रे? सुरेकार.

**चानू** : खंय रे? कोण ना. सुरेकारूय ना आनी ती तुगेली सुंदरीय ना.

**जानू** : ना कशी तर? ती हांगासर ह्या पर्वताचेरूच आसता. पाज्जेवयल्यान सकयल येता वता ते फक्त सुरेकार. ते सकयल गेल्या आसतले. ती खंय तरी आसतली. (हांगा थंय सोदता.)

**चानू** : आसतली जाल्यार उलो मार. (सकयल पळयता.) दादो, हांगासयल्ल्यान आमचीं गोरवां पळय कशीं दिसतात. सामकीं बारीक बारीक. खेळपाखातीर पणसाच्या पानांचीं करतात तशीं. तरिपूण हांव हांगासल्ल्यान गोरवांक वळखूंक शकतां. दादो, तो पळय, तो ऽ ऽ पोवळो. तो ऽ ऽ धवळो. तीऽऽ कपीला. तो ऽ ऽ चानो. तो ऽ ऽ शिंगाडो. दादो हांव राखतां तितल्याय भटाल्या गोरवांक वळखतां. एकान एक नग. वीस आनी दोन. दादो तुगेलीं गोरवां खंयच्या देंगणांत पावलीं पळय. दादो, हांव वळखतां तसो तूं तुगेल्या भाटकाराल्या गोरवांक वळखशी? तुजेकडेन जावचेंच ना.

**जानू** : त्या गोरवांक खावं वाग. हांगासर यो. ती खंयूय दिसता जाल्यार पळय.

**चानू** : तुकां सांगलें न्हय रे उलो मार. खंयूय दडल्यार धांवून येतली कुल्ली कशी. मार उलो.

जानू : खंयच्या नांवान उलो मारूं?

चानू : खंयच्या म्हणजे? तिका जें नांव आसा त्या नांवान.

जानू : पूण म्हाका तिचें नांवूच खबर ना न्हय.

चानू : नांव खबर ना आनी मोग करता? दादो, म्हाका फकत गोरवांचो मोग करपाक कळटा. मनशांचो मोग कसो करतात रे?

जानू : तुकां येन्ना कळपाचें ना तें. चल सोदपाक लाग.
(दोगूय हांगा-थंय सोदतात. मडकेकडेन पावतात.)

चानू : दादो हातूंत हात घालून पळोवं?

जानू : कित्यांत ?

चानू : हे मडकेंत.

जानू : ती कितें मडकेंत आसतली?

चानू : ती नासूं. आनीक कितेंय आसत.

जानू : ना. आनीक कित्याक हात लावप ना.

चानू : पळोवया तरी कसलीं भांगरां शिंगरां आसात तीं. (हात घालता. हाताक फातर लागतात. काडून पळयता. निर्शेता.) दादो, कांय ना. मडकेंत फकत फातर आसात.

जानू : तुकां हात लावं नाका म्हूण सांगिल्लें मरे? चल वयर खोंपींत वचून पळोवन यो.

चानू : वतां. पूण दादो मारके गायेसारकी ती म्हज्या आंगारबी येना मरे?

जानू : आंगार आयिल्ले गायेक तूं भियेता?

चानू : ना रे, तिका शिंगांक धरून हांव घुंवडायतां.

जानू : मागीर जालें!

चानू : हिकाय शिंगां आसात तर?

जानू : (उबगून) बेगीन चल म्हणलें न्हय.
(चानू आखाण्याचे दांडे काडून वयर खोंपीकडे वता.)

चानू : दादो, हांव भितर वचून येतां. तूं भायर राव. ते सुरेकार येत.

जानू : यो, यो. वचून यो. हांव रावतां हांगा.

(पाज्नेच्या सोपणांकडेन वचून पळयता.) ना, कोण एक ना.

चानू : (खोंपींतल्यान भायर येत. हातांत मडकी आसा.) दादो तुजें खरें जालें.

जानू : (उमेदीन) ती आसा? ती भितर आसा?

चानू : ना. तीबी कोण ना. पूण बायलांची मुस्तायकी आसा. खोंपींत नक्कीच एक बायलमनीस रावता. तुजो अदमास खरो जालो.

जानू : अदमास न्हय. हांवें तिका म्हज्या दोळ्यांनी पळयल्या. ते ऽऽ थंयचे दोंगुल्लेर सावन ह्या वेळार ती हांगाच आसता. हे खोंपीमुखार. आनी हांव थंय दोंगुल्लेर.

चानू : मागीर आतां खंय गेली तर?

जानू : तोच तर प्रस्न आसा. हे तें कितें?

चानू : मडकी.

जानू : त्यो फातरांच्यो मडक्यो कित्याक सोदता तूं?

चानू : हातूंत फातर ना. बरें थंडगार उदक आसा. हांव पियेलों. घे तुकांय तान लागल्या न्हय? पिये.

(जानू हातांचो पोसो करता. चानू पोंशांत मडकेंतलें उदक ओतता. जानू उदक पियेता. धेकर दिता.)

जानू : आं. आतां बरें दिसलें.

चानू : (मडकी भितर दवरून भायर येता.) दादो, हालीं तूं सारको जेविना खायना, म्हणून तुकां रोखडें पुरो जाता. गोरवांक आनी मनशांक सारको भड्डो पडपाक जाय म्हूण तुकां खबर ना?

जानू : खबर आसा रे चानू. पूण खाणा-जेवणाचेर लक्षूच लागना.

चानू : कसली पिडा जाल्यार चानूदाद वैजाक दाखोवया. आमगेल्या गोरवांक तोच काय बरीं वखदां दिता.

जानू : त्या वैजाच्या वखदांनी हांव बरो जावचों ना. म्हजे पिडेचें वखद हांगा आसा ह्या पर्वतार. हांगा.

चानू : समजलें म्हाका. तूं न्हिदेंत म्हाका घट धरतालो तेन्नाच तें

म्हाका कळ्ळें. दादो, ह्या पर्वतावेयले तुगेले पार्बतेक आतां खंय सोदपाची?

जानू : तिका पळयलेबगर हांव आतां सकयल देंवपी न्हय. नाजाल्यार त्या कट्यावयल्यान उडी घेवन जीव दिवपी.

चानू : शी, शी, थुमेकाल! दादो, अशें कितें अभद्र उलयता रे? ते पार्बतेखातीर तूं जीव दितलो? नाका, नाका, तिकाच घेवन आमी सकयल या. हांव तुमचें दोगांयचें लगीन लायतां. भटागेर रावन हांव भटाली थोडी विद्या शिकलां. आनी दादो, तुकां जशी बायलेची गरज आसा तशी आमचे आवोकूय आतां एके सुनेची गरज आसा. तिच्यान आतां नज्रो भाकऱ्यो भाजपाक, शेणी थापपाक, जळोव पुंजोवपाक. तिका आतां दुसरो मनीस जाय.

जानू : चानू, हीं असलीं कामां तिणें करप ना. तिका हांव फुलाभशेन जपतलों. कसलेच कश्ट दिवचों ना.

चानू : दादो, पयलीं सगळे अशेंच उलयतात. मागीर बायलांक गुरवारपसून करतात. ते कश्ट न्हय?

(इतल्यान सकयलसावन गती-गिताचो आवाज आयकूंक येता. दोगूय सादूर जातात.)

चानू : दादो, कोण तरी येता.

जानू : तेच आसतले सुरेकार.

चानू : दादो, तांचेकडेन दोन हात कशे करपाचे? तांचेकडेन सुरे आसतले आनी आमी आमचीं कोयतुलां सकयल सांडून आयले.

जानू : हे दोन दांडे आसात ते पुरो. आनी ह्यो दोनूय तकल्यो आसात त्यो! (ताचे तकलेक हात लायत) म्हजे तकलेपरस ही तकली हुशार आसा.

(आवाज लागीं येता.)

चानू : दादो एकतर झाडाचेर चडुंया, नातर हांगाच खंयतरी लिपून

रावुंया.

जानू : खोंपींत लिपुंया?

चानू : नाका, नाका, आयतेच तांच्या चपक्यांत सांपडटले. ते भितरले भितर आमची चांचावन शाक करीत.

(हांगा-थंय लिपपाक सोदता. दोशींवशीं आशिल्ल्यो दोनूय बसका चानूक सुरक्षीत दिसतात.)

चानू : दादो, हांगा बरो जागो आसा. तूं हांगा लीप. हांव हांगा लिपतां.

(एकेवटेन चानू आनी दुसरेवटेन जानू लिपता. कांयवेळान गती-गीत म्हणत म्हणत म्हादगो आनी दादगो माचूल घेवन पाज्जेच्या सोपणांवयल्यान वयर येतात. गिर्जा खूश आसा. तिगेल्या कुरपण्यांत तरातरांचीं फुलां आसात. माचूल सकयल दवरतकूच गिर्जा कुरपणो घेवन देंवता. दोगूय जाण माचूल आदल्या जाग्यार दवरतात. तांगेलें चित्त चाळवता. दोगूय जाण नाकाच्या पुड्यांनी हांगा-थंय सू सू करून हुंगतात आनी सुरे घेवन नाचतात.)

दोगूय : मनीसघाण! मनीसघाण!

गिर्जा : कितें?

दादगो : हांगा कोण तरी मनीस आयला.

म्हादगो : मनशाची घाण येता.

चानू : (लिपला त्या जाग्यारसावन )आमकां घाण येता? हांकां कितें दिसलें, राखणे म्हूण न्हावना धुवना? काय बरे पाण्ट्यार न्हावन आयल्यात. घाणी गुठ्ठाणी येता त्यो हांकां. तोंडां पळयल्यार आठ दीस जेवपाक नाका.

(जानू ताका वगी रावपाक शिटकायता.)

दादो तुजी पार्बती मात सुंदर आसा आं.

(जानू ताका वगी रावपाक परत धपकायता. तो वगी रावता.)

गिर्जा : (आपूण हांगा थंय वास घेत) खंय कसली घाण? म्हाका कशी येना तर? (आपलेभितर) तुमकां येता ती घाण म्हाका कशी येतली? बरी तुमची भयण जाली म्हूण? तुमी राकेस. हांव मनीस. (दोगांकूय) चला, चला, मनीसघाणबी कांय ना. तुमी हांगा आसतना हांगा येवपाची कोणाक छाती जायत? तसो मायेचो पूत आजून जल्मुचो आसा.

चानू : (लिपला थंयसावन) जल्मलो, जल्मलो. एकलो न्हय. दोग जाण जल्मले. चानू आनी जानू.

(जानू ताका धपकायता. तो वगी पडटा. म्हादगो आनी दादगो आजून सू सू करून सोदीत आसात.)

गिर्जा : (तांचेर तिडत) तुमी अशेच हांगा सुण्यांभशेन सू सू करून हुंगत रावतले?

चानू : (ल्हवू) दादो, दोगूय बरे तोमसूळ कशे आसात.

गिर्जा : आतां कितें काम करतले काय ना?

दोगूय : करतले. करतले.

गिर्जा : कसलें काम?

(दोगूय विसरल्यात.)

गिर्जा : (परत) कसलें?

(दोगूय येवजितात पूण तांकां याद जायना ते काचाबूल जातात.)

चानू : (फकांणां मारून हांसत) दादो, दोनूय खुळां. ते सुरे खरे. हीं फकांणां.

(जानू ताका दटायता.)

गिर्जा : (तांकां समजायत) शाणे ते शाणे. येवजूं नाकात. तकली दुखतली. मागीर रडूंक येतलें. मागीर पावस पडटलो. मदींच ती मनशाची घाण आयली न्हय, देखून तें विसरूंक जालें.

दादगो : हय, हय, तेच घाणीखातीर.

चानू : आवयचो घोव व्हरून, तरी घाण. दादो हांकां दाखोवं?

(जानू धपकायता.)

गिर्जा : पूण तसली घाणबी कांय एक ना आं.

चानू : दादो, तुजी पार्बती बरी आं.

म्हादगो : भयणी आमकां याद कर.

गिर्जा : आरे शाण्यांनो, थोड्या वेळान म्हाका भूक लागतली.

दोगूय : याद जाली, याद जाली (मोटमोठ्यान हांसतात.)

चानू : (ल्हवू) आवयस, कसलो गडगड रे सायबा!

म्हादगो : आतां तुज्या जेवणाची वेवस्था करपाक जाय.

चानू : (ल्हवू) आमीय आसात. आमीय भुती हाडुंना. न्हय रे दादो? (जानू ताका वगी रावपाक सांगता.)

दादगो : आवय सांगून गेल्या तसलेंच तुकां जेवण.

चानू : आवय खंय गेल्या काय?
(जानू ताका खुणेनूच 'वयर' गेल्या अशें सांगून वगी करता.)

म्हादगो : सवण्यांचें नातर सावजाचें काळीज. तेंच तुजें जेवण.

चानू : आवयस! धुवेक असलें जेवण दिवपाक सांगपी कसल्या काळजाची आवय रे!

दादगो : सांग भयणी, आयज तुकां कोणाचें काळीज जाय?

चानू : हरवेंच खातली काय भाजून?
(जानू खुणेनूच ताका 'भाजून' म्हूण सांगता आनी वगी करता.)

गिर्जा : आयज म्हाका चानयेचें काळीज जाय. तुमकांय आवडटा मरे?

चानू : आवयस! म्हजेंबी काडिना मरे?
(जानू समजायता. 'खरे चानयेचें' म्हूण सांगता.)

गिर्जा : नाका. चानयेचें काळीज चिमटीभर. तातूंत सारकी भूकच भागना. म्हजीय भागना आनी तुमचीय भागना. कवड्याचें काळीज? नाका. तें ताचेपरस बारीक. रानकोंबयेचें? नाका.

ताचेपरस मातशें मोटें जाय न्हय? (गिर्जा एका एका प्राण्याचें नांव घेता तसो चानू वेगवेगळी रूच काडटा, आनी ही नाका म्हणटकूच निर्शेता. जानू तागेल्या अवचिन्नपणाक उबगला. तोंड बंद दवपाक तो ताका हरतरानी खुणायता. पूण थोडें आयकल्लेभशेन करून चानू आपलीं अवचिन्नपणां तशींच चालू दवरता.)

**गिर्जा** : रानकोंबयेपरस मोटें कितें आसता?

**म्हादगो** : पिसय.

**गिर्जा** : नाका. बरें लागना.

**दादगो** : सोंसो.

**गिर्जा** : ताचें काळीज पोकळ. नाका.

**म्हादगो** : बोकडो?

**गिर्जा** : नाका. ताचें काळीज खातकूच मागीर तोंडांतल्यान बें बें आवाज येता.

**चानू** : कोगळाचें काळीज खा. बरो कुहू कुहू आवाज येतलो. (जानू दटायता).

**दादगो** : आयज तुकां हरणाचें काळीज हाडटां.

**गिर्जा** : हरणाचें? नाका, नाका. मेरवाचें हाड. खूब तेंप जालो, मेरवाचें काळीज खाल्ल्यार. कशें लागता तें लेगीत हांव विसरलें. आयज म्हाका मेरवाचेंच काळीज जाय. तुमीय खातले मरे? (दोगूय मान हालोवन हयकार दितात.)

**चानू** : दादो, हे मेरवाक मारतले. ताचें काळीज काडटले आनी मेरवाचें धड थंयच वडयतले. तें आमी उबारून व्हरूंया. आनी आवोकडल्यान रूचीक शाकोती करून खावंया.
(जानू ताका ल्हवू उलोवपाक शिटकायता पूण तो आयकना. शेवटाक जानू ताचेकडेन येवन आपल्या हातान ताचें तोंड बंद करता. थोडोसो आवाज जाता. दोगूय जाण थंयच लिपता दादगो आनी म्हादगो सुरे घेवन नाचतात.)

**दोगूय** : मनीसघाण! मनीसघाण!

**गिर्जा** : खंय कसली घाण? तुमकां वगीच भास जाला. चला, मेरवाची शिकार करात आनी काळीज हाडात. म्हाका तें भाजून खावपाक जाय. तोंडाक कशी लाळ सुटल्या पळय. चलात बेगीन. (दादगो आनी म्हादगो सुरे घेवन ताकतिकेन वचपाक लागतात. मदींच दादग्याक याद जाता. तो फाटीं सरता. खुंट्याची दोरी सोडटा. तिच्या कमराक बांदता.)

**चानू** : दादो, गोरवाक कशी तिका बांदून घालता पळय. (चानू आनी जानू दोगूय आमी तिका सोडोवया म्हण एकामेकांक समजायता. दादगो आनी म्हादगो सुरे घेवन पाज्जेर्चीं सोंपणां देंवन सकयल वतात. ते सकयल गेले म्हणपाची खात्री करून घेवपाक गिर्जा दोरयेसकट सोंपणांमेरेन वता. हेवटेन चानू तिका सोडोवपाक वचपाक उठटा. जानू ताका थातारून धरता. ती आपले आपूण दोर सोडोवन वडयता. जानू आनी चानू कपलार हात मारतात.)

**गिर्जा** : (झाडांक आनी सवण्यांक लेखून.) ह्यावेळार ते म्हाका हांगासर निखालस नाकात. म्हणून हांव तांकां काळजाचें निमित्त करून रानांत धाडटां. हरशीं तीं प्राण्यांची काळजां आवडटा कोणाक? हांव तीं तोंडांत लेगीत घालीना. भायलेभायर भाजून तांकांच खावयतां. सद्दां काळजां खावन तांकां माणे लागता. हरशीं म्हाका त्या प्राण्यांची काकूळट. पूण हांच्या मोगाखातीर त्या मोन्या जिवांची हत्या घडोवची पडटा. आवयन तांकां सांगून दवरलां न्हय, देखून ते अशे प्राण्यांची काळजां तोडून हाडटात. एक मात खरें, ते शिकारेक गेले म्हणटकूच म्हाका मातशी हांगा उसरपत मेळटा, आनी ह्यावेळार ती म्हाका गरजेची.

**चानू** : दादो, त्या दोगांय भावांभशेन ही भयणूय तकलेन सदळ ना मरे? ती पिशी कशी कोणाकडेन उलयता? (ती 'झाडांकडेन उलयता' म्हणपाचें जानू ताका कुरवांनी सांगता.)

गिर्जा : (कुरपण्यांतलो फुलांचो हार काडून) पळय गो शेवण्या शितुरा, हो हार पळय. हार झाडाक जाल्लो काय म्हणटा? आगो, पर्वताची पाज्ज चडटाना कितलो वेळ मेळटा. एक हार गुंथून जाता. दर दिसा हांव तशेंच करतां. हार कसो जाला तो सांग. तूं सगळ्या दिगंताक भोंवता न्हय गो? म्हणून विचारलें. हार कोणांक काय म्हणटा? कोणांक म्हणजे? म्हज्या मनच्या कुंवराक.

चानू : (ल्हवूच) दादो तूं फटावलोसो दिसता रे!

(जानू ताका थातारता आनी 'मुखावयलें आयक' म्हण शिटकायता. जानूक तिच्या मनाची सुलूस लागल्या. तो भुल्लुसला.)

दर दिसा एक हार म्हणजे? एकल्याच्याच नांवान दर दिसा एक हार. तुमचें कितें म्हणणें? एकाच देवाक कितले हार घालीना? तशेंच हें. (सवणें आपल्या माथ्यार भोंवता अशें कल्पून ताचे लागीं उलयता.) म्हज्या मनच्या कुंवराचें नांव तुमकां कित्याक? तुमी मागीर तें गांवभर सांगत भोंवतलीं. तुमचे चोंचींत कितें धरपाक आयलां? फळाच्यो बियो लेंगीत चोंचींतल्यान गळटात, तें नांव उरपाक आयलां? शेंवण्या शितुरा, नाका गो म्हाका सतावंक. तुकां कशे सांगू? म्हाका ताचें नांवूच खबर ना. तो थंय ते दोंगुल्लेर-हांव हांगासर ह्या पर्वतार. मदीं ही केदी दोंड! ताचें नांव म्हांका खबर ना. म्हजें तरी ताका कशें खबर आसतलें? आमी एकामेकाचें खुमणें तरी खंय देखलां? आमचे मदीं एकूच पूल म्हणल्यार ते बांसरेचे सूर!

चानू : (उमेदीन) दादो, फुलय.

(जानू कमराची बांसरी काडटा. तिका दिश्टी पडना अशे रितीन उबो रावता आनी वाजयता. दुसरेवटेन चानू खोशयेन भुल्लुसून टिवल्यो-बावल्यो करून नाचता. बांसरेच्या आवाजान गिर्जाक

खोशी जाता. हातांत हार घेवन ती नाचता.)

गिर्जा : आयज कितें तरी अप्रुप घडलां. बांसरेचे सूर आयज म्हाका स्पश्ट आयकूंक येतात. बांसरेचे सूर इतले लागीं जाल्यार, तो इतले पयस कित्याक? (पयस पळयत) पूण तो खंय? सदच्या जाग्यार तो दिसना. दोळ्यांमुखार फकत धुंवर आनी कानांत बांसरेचे सूर. हांव घुस्मटटां ह्या सुरांनी. हांव घुंवळटां. हांव घुंवळून पडटलें खाला. पाज्जेच्या सोपणांवयल्यान गडगडून, नातर ह्या कट्यावयल्यान कोंसळून. ना आयज हांव कशींच वांचपाक ना.

चालू : दादो, फुलय, फुलय!
(बांसरेचे सूर द्रूत गतीन सुरू जातात. गिर्जा हातांत हार घेवन दोळे धांपून घुंवडाळ्यो काडटा. जानू मुखार येवन तिच्या कानांकडेन मुरली वाजयता. कुशीक चानू आपलेपरीन नाचता. गिर्जा पुरो जावन एकीकडेन उबी रावता. हातांत हार धरून तशीच धोलूंक लागता. जानू तिचे कुशीक रावून बांसरी वाजोवपाचें थारायता. ती कोंसळटा. जानू तिका सांवरता. तिच्या हातांतलो हार ताच्या गळ्यांत पडटा.)

चानू : (ताळयो मारीत) शाब्बास दादो, शाब्बास! जिकलो तूं. उखल पोटली, मार खांदार. आयिल्ले तेवटेन जावंया पसार.

जानू : हिका उबारून व्हरूंया? ती चोरी जातली.

चानू : आमकां राखण्यांक चोरी कितें नवी न्हय. कितलीं पणसुलां चोरल्यां! कितलीं तोरंगां, कितलीं अणसां, कितलीं मावळिंगा. तशेंच हे गोरेगोमटें फळ. उखल बेगीन, लाय बळ आनी हांगच्यान पळ.

जानू : चानू,म्हाका भंय दिसता.

चानू : भंयाक खाल्लो वागान. चल उखल. नातर कुशीक सर, हांव उबारतां. पूण मागीर मात तुकां आवो सांगता तें आयकुचें पडटलें.

जानू : कितें?

चानू : आवो सांगतली, जाणे तिका उबारून हाडल्या, ताणेंच तिचेकडेन लगीन जावपाचें.

जानू : नाका, नाका. हांवूच तिका उबारतां.

चानू : आतां कशे जालें! (गिर्जाक उबारपाक सोदता. इतल्यान ती शुद्धीर येता. जानू पासून कुशीक सरता. कांचवेता.)

जानू : भियेवं नाका. हांव जानू.

चानू : आनी हांव जानूचो भाव चानू.

गिर्जा : हो हार तुज्या गळ्यांत कोणे घातलो?

जानू : तुवें.

चानू : आनी हांवें ताळयो मारल्यो.

गिर्जा : म्हाका तेन्ना घुंवळ आयली. आनी कानाकडेन बांसरी कोण वाजयतालो?

जानू : हांव.

चानू : आनी हांव नाचतालों.

गिर्जा : ते दोंगुल्लेवयलो तूंच तो राखणो?

जानू : हय, हांवूच तो.

चानू : तो भाटकारालीं गोरवां राखता. आनी हांव भटालीं. तीं ऽ ऽ सकयल आमचीं गोरवां चरतात.

गिर्जा : तुमी वयर कशे आयले? पाज्जेवयल्यान?

जानू : ना. ना. पाज्जेवयल्यान आमी सोड, जितो मूस लेगीत येवप शक्य ना, पाज्जेर आसतात तुजे सुरेकार भाव.

गिर्जा : दादगो आनी म्हादगो.

चानू : आमी आयले कट्यावयल्यान. पयलीं हांव. मागीर हो म्हजो दादो.

गिर्जा : आवयस! येद्या व्हडल्या कट्यावयल्यान? खऱ्यांनीच हुशार म्हणपाक जाय.

चानू : पयलो हुशार हांव, दुसरो म्हजो दादो.

जानू : खरेंच म्हजो भाव हुशार!

गिर्जा : उलयता ताचेवयल्यान कळटा, चानयेभशेन पिटपिटीत. म्हजे भाव बळिश्ट खरे, पूण तकलेन उणे.

चानू : पळयल्या तांची करामत. तांकां मनशांची नसाय.

गिर्जा : ते तुमचे, म्हजे भाशेन न्हय. राकेस कशे.

चानू : राकेसूच ते. तांचे बरें आसा, हांव चानू आनी हो म्हजो भाव जानू. तुजें नांव सांग.

गिर्जा : हांव त्या भावांची भयण, गिर्जा. गिर्जाराणी! राणी कपलाची!

जानू : तूं खरेंच राणी. गिर्जाराणी! हें तुजें माचूल! असल्या माचुलांत फकत राणीच बसता.

गिर्जा : हांव राणी, पूण बंदिनी.

चानू : आमी तुजी सुटका करपी. हो म्हजो भाव जानू तुजो मोग करता. ताका वता थंय तूं दिसता. गोठ्यांत तूं, भाकरेंत तूं, पेजेंत तूं, सगळ्याक तूंच तूं.

(गिर्जा लजता.)

जानू : चल गिर्जाराणी आतां वचुंया.

गिर्जा : वचपाचें खंय?

चानू : सकयल गांवांत. थंय आमचें घर आसा. आवो आसा.

गिर्जा : म्हाका सकयल वचपाची उमळशीक लागल्या. पूण तें कशें शक्य आसा?

जानू : कित्याक शक्य ना?

(इतल्यान सकयलसावन दादगो आनी म्हादगो वयर येतात तो आवाज. गिर्जा काचाबूल जाता.)

गिर्जा : ते दोगूय वयर येतात. ते तुमकां सोडचे नात. तुमी खंयतरी लिपात.

चानू : तुका ताची चिंता नाका. लिपपाची आमकां संवंय जाल्या. तुजें तूं पळोवन घे. चल दादो, तुजे सुवातेर तूं लीप, म्हजे सुवातेर

हांव लिपतां.

(दोगूय आदलेवरी दोनूय बसकांच्या आडसाक लिपतात. गिर्जा बेगीबेगीन आपणांक दोरयेन बांदून घेता. दादगो आनी म्हादगो येतात. दादग्यान दोनीय हातांचो पोसो केला. पोशांत दवरला पानांच्चो दोणो, आनी त्या दोण्यांत आसा मेरवाचें काळीज. येनाफुडें दोगूय नाकपुड्यांनी सू सू करतात.)

**दोगूय** : मनीसघाण! मनीसघाण!

**गिर्जा** : (तांचेर तिडून) जालें? येनाफुडें तुमकां मनशाची घाण येवपाक लागली? हांव इतलो वेळ हांगा आसा, म्हाका कशी मात लेगीत मनीसघाण येवंक ना? भैरोजोळोप लागला तुमकां.

**दादगो** : घे, भयणी. आयज तुकां मेरवाचें काळीज.

**गिर्जा** : कितलो उशीर केलो? म्हाका कसली कडकडीत भूक लागल्या. भुकेन हांव घुंवळ येवन लेगीत पडलें. भितर वचून उदक पियेतलें म्हणल्यार तुमी म्हाका दोरयेन बांदून घातलां.

(दादगो बेगीबेगीन गिर्जाच्या कमराची दोरी सोडयता आनी खुंट्याक गुठलायता. दोगूय अपराधी जावन उबे रावतात.)

**म्हादगो** : त्या मेरवान आमकां खूब धांवडायले.

**दादगो** : मागीर मेरवाक मारलो. पूण कितलो वेळ ताचे काळिजूच मेळना जालें. शेंपडेंत, तकलेंत, दोंक्यानी, बोरीनी सगळ्याक सोदलें.

**म्हादगो** : मागीर पोटांत मेळ्ळें. पळय, आजून जितें फडफडीत आसा.

**गिर्जा** : म्हाका तें भाजून खावपाक जाय, करकरीत.

**दादगो** : आतां भाजून हाडटां. कुपांदर फातराचेर फातोर मारून रात्रींत उजो पेटयतां. (म्हादगो आखाणो काडटा. दोगूय भितर खोंपींत वतात. ते गेल्ल्याची खात्री पट्टकीच जानू आनी चानू मुखार येतात.)

**चानू** : (गिर्जाक) आयज खा बरें मेरवाचें काळीज.

**गिर्जा** : शी! हांव ताका हात लेगीत लायना. बाबड्या मेरवाक मात

म्हजे खातीर मरचें पडलें.

जानू : असो कितल्या प्राण्यांचो जीव घेतली तूं?

गिर्जा : हांव हें म्हजे इत्सेन थोडेंच करतां. सगळें तांचे इत्सेन घडटा. हांव तांची भयण म्हणल्यार खामसुत्री बावलें. बावलें तरी बरें, ताका भावना नासतात. पूण हांव मनीस. म्हाका भावना आसात. म्हाका हांसन दिसता, रडन दिसता, चारचौगांत भोवन दिसता. पूण हे भाव म्हाका कशेच पातयेनात. एकदां दोनदां हांव सकयल गांवांत गेल्ली.

चानू : एकलीच?

गिर्जा : एकलीच खंय? एकलें भोंवपाक नशीब जाय. माचुलांत बसून गेल्ली. खंय रावप ना, खंय देंवप ना, कोणाक पळोवप ना, कोणाकडेन उलोवप ना, कोण म्हजेकडेन उलयलो जाल्यार तांचे मानेर हांचो सुरो. मागीर सकयल वचप बंद केलें.

जानू : तुकां मेळपाक वयर कोण येना? तुज्यो इश्टिणीबी?

गिर्जा : आयिल्ल्यो चौगीजाणी. तारा, कांता, अनुजा, ऋतुजा. एक दीस हांवें ताराक आपोवंक धाडलें. भावांनीं ताका उबारून हाडलें.आमी पोटभर गजाली केल्यो. ताका पावय म्हणल्यार भावांनी ताका कट्ट्यावयल्यान धुकलून वडयलें. मागीर आनीक कोणाक वयर आपयलेंच ना. हांगा पाज्जेवयल्यान वरय आयिल्लो मनीस असो कट्यावयल्यान सकयल वता.

चानू : बरें जालें. आंमी पाज्जेवयल्यान आयले ना, न्हय रे दादो?

गिर्जा : तुमी सादीं कुळां न्हय. पूण तांचे शक्तीमुखार कोणाची शक्त चलना. तांचेकडेन दोन हात करपाची पिशेपणां करूं नाकात. तांकां तकलेन हारोवपाक जाय. बळान न्हय. कशीय करून तकली लडयात आनी म्हाका हांगासावन मुक्त करात. म्हाका केन्नाकाय मनशांमदीं वचन जालां. म्हज्या हातान रांदीन जालां. उदक भरीन जालां. शेण काडीन जालां. शेणी थापीन जालां. म्हजे हात कामां करपाक शिंवशिंवतात. उपकार करून म्हाका

हांगाचें मुक्त करात.

**चानू** : तुवें दादोच्या गळ्यांत माळ घातल्याच. तुकां हांगाच्यान व्हरप ही आमची लागणूक. तुज्या भावांक कशींय तरी शिंगां लावचींच पडटलीं.

**जानू** : ते अशे वागतात ते कोणाचे सांगणेन?

**गिर्जा** : कोणाचे न्हय. मरतना आवयन सांगलां तशे ते वागतात, तितलेच वागतात.

**चानू** : ह्यो आवयो म्हणून बऱ्यो, ज्यूस्त मरच्या वेळार कितें तरी सांगतात.

**चानू** : केन्ना मेली आवय?

**गिर्जा** : हांव तेन्ना ल्हान. म्हाका सारकी याद ना.

**चानू** : बापूय केन्ना मेलो?

**गिर्जा** : आवयच्या पयलीं मेलो.

**चानू** : आवय मरतना हे दोगूय आवयच्या म्हऱ्यांत आशिल्ले?

**गिर्जा** : हय, तांणीच वैजाक हाडिल्लो. वैज सांगता ते ते उपाय तांणी केल्यात. पूण ती जगली ना. मरचे आदीं तिणें कितें कितें सांगलें.

**चानू** : तुजे राखणेचें आवयन तांकां बेस बरें सांगलां. तुज्या लग्नाचें कितें?

**गिर्जा** : ती ऽ ऽ मडकी फातरांनी भरतकच लग्नाचो विशय. ते मडकेंत ते सद्दां एक फातर घालतात. आयजपासून घातला. (चानूक) तूं इतलें बारीक सारीक कित्याक विचारता?

**जानू** : तो सगळें एकठांय करून तांचो रोस काडटलो, आनी त्या रोसांतल्यान एक उपाय काडटलो. चानू कशीय तरी तकली लडय.

**चानू** : दादो, तुकां खबर आसा? अशी उब्यांनी, आरती म्हजी तकली चलना.

**जानू** : राव परती करतां. (ताका पांयांक धरून परतो करता.)

गिर्जा : ताका उरफाटो कित्याक करता?

जानू : ताची बुद्द सकयल धोंपरांत आसा. असो उरफाटो करतकूच ती तकलेंत देंवता. मागीर ताका नव्यो नव्यो मांडण्यो येवजतात. (चानूक) चानू, कितें येवजता?
(तो वग्गी.)

जानू : तुजें काळीजबी तुटूंना मरे? चानू बुद्द आजून तकलेंत पावूना? धोंपरां धाडावं?

चानू : नाका, दादो म्हाका आर्तो कर.
(जानू ताका आसा तसो उबो करता. जानू आनी गिर्जा उमळशिकेन ताचेकडेन पळयतात.)

दोगांय : कितें येवजलें?

चानू : (उडकी मारून) हय हय येवजलें. (आनीक एक उडकी मारता. एके बसकेचेर उबो रावता. कुरू करून गिर्जाक आपल्या म्हऱ्यांत आपयता. आपूण बागोवन ताच्या कानांत कितें तरी सांगता. ती पयलीं अनमनता. मागीर मानून घेता. जानू बुचकळ्यांत पडटा. चानू उडकी मारून दुसरे बसकेचेर वचून उबो रावता. कुरू करून जानूक लागीं आपयता. ताच्या कानांत कितेंतरी सांगता. जानू समजून घेता. दोगूय बेगिबेगीन आर्दी लिपिल्ले तशे बसकांच्या आडसाक लिपतात.अकस्मात गिर्जा थतर-वितर जावन व्हडल्या व्हडल्यान हुयेली मारपाक लागता.)

गिर्जा : आवय गे! आवय! म्हाका कितें जाता! देवा रे! देंवचारा रे! सोंसूंक जायना.

जानू : (लिपला थंयसावन विचारता) चानू, तिका खऱ्यांनीच कांय जायना मरे?
(चानू ताका धपकायता. खुणेनूच कांय जायना, मुखार कितें घडटा तें पळय म्हूण सांगता.)

गिर्जा : दादग्या रे ऽ ऽ म्हादग्या रे ऽ ऽ बेगीन धांवून येयात रे. मेलें रे!

देवा रे! देंवचारा रे!

(खोंपींतल्यान दादगो आनी म्हादगो धांवत येतात. येनाबराबर सू सू करतात.)

दोगूय : मनीसघाण! मनीसघाण!

गिर्जा : आतां घाण सोदतले, काय म्हाका पळयतले?

दादगो : भयणी तुकां कितें जालां?

म्हादगो : भुकेन तूं कळवळटा?

दादगो : राव, काळीज भाजून जालां. रोखडें घेवन येतां.

गिर्जा : नाका. म्हाका भूक ना. म्हजी भूक गेली.

म्हादगो : गेली?

गिर्जा : हय. अशी मळबांत उडून गेली. आतां म्हज्या जिवाक कितें जाता.

दादगो : कितें जाता?

गिर्जा : कितें जाता तेंच कळना. धव्याचें काळें दिसता. काळ्याचें धवें दिसता. हाय! हाय! वैजाक तरी हाडात.

म्हादगो : वैजाक हाडूं?

गिर्जा : हाडात. हाडात.

दादगो : खंयच्च्या वैजाक हाडूं?

गिर्जा : आवयच्या वेळार खंयच्च्या वैजाक हाडिल्लो?

दादगो : सकयल्या गांवांतलो. आवयन सांगिल्लो ताकाच हाडिल्लो मोटेल्या पोटाचो.

गिर्जा : ताकाच हाडात.

म्हादगो : ताका कसो हाडटले? ताका तेन्नाच कट्यावयल्यान सकयल वडयलो. आतां कोणाक हाडूं?

गिर्जा : कोणाक तरी हाडात. आवय गे.

(दोगूय एकामेकाक विचारतात. तांची तकली चलना. दुखपाक लागता. गिर्जा फाटल्यान चानू ल्हवूच येता आनी कानांत कितें तरी सांगता, आनी आसा तसो लिपता. मागीर गिर्जा परत

हुयेली मारपाक लागता.)

**गिर्जा** : दादग्या रे ऽ ऽ म्हादग्या रे ऽ ऽ.

(ते म्हऱ्यांत धांवत येतात.)

**गिर्जा** : गरजेभायर चिंतूं नाकात. तुमची तकली फुट्टली. पाज्जेचीं सोपणां देंवन सकयल गांवांत चलात. वाटेरूच वैज आसतलो. ताका कसो वळखतले? भेस आसतलो वैजाचो. चानयेभशेन झाडाचेर आसतलो. उबारात आनी दांड्यार घालून हाडात. तो मेरेन हांव सोंसून धरतां. आवय गे!

(दादगो आनी म्हादगो हातांतले सुरे कडेक दवरतात. ताकतिकेन दोन लांब दांडे घेतात. मदींच तांकां याद जाता. गिर्जाक दोरयेक बांदतात आनी झपाझप पाज्ज देंवन सकय वतात. ते गेल्ल्याची खात्री जातकूच तिगांय एकठांय जातात. आनी हांसून खेळून जिखिल्ल्याचे भावनेन खोस मनयतात.)

**चानू** : कशे चक्रायले खुळ्यांक. आतां बेगीन फातर पुंजायात.

(आपूण फातर पुंजावपाक लागता. ताचेबराबर जानू आनी गिर्जा फातर पुंजायतात. चानू आपणाकडले आनी तांचेकडले फातर घेवन मडकेंत घालता. मडकी भरता.)

**चानू** : आतां हांव चल्लों कट्यावयल्यान खाला.

**जानू** : खाला कित्याक? गोरवांक पळोवंक? गोरवांक वाग खायना.

**चानू** : गोरवांनी वचना.

**जानू** : मागीर खंय?

**चानू** : वैजाक तयार करपाक.

**जानू** : तोमेरेन आमी हांगा कितें करपाचें?

**चानू** : मोग करपाचो! मोग.

(चानू दोरयेन तांकां दोगांकूय आडेचीं बांदून घालता आनी आपूण कट्यावयल्यान देंवन वता. गिर्जा आनी जानू दोरी हातांत घेवन जोडगीत गायतात.)

तो : अस्तुरी सुंदरी पर्वताची परी
तुज्या म्हज्या काळजाची प्रेमाची दोरी

ती : राखणो तूं, देखणो तूं, राजकुंवरा परी
तुज्या म्हज्या काळजाची प्रेमाची दोरी

तो : तुजेखातीर राणी दोंगर आयलों चडून
कांटेखुटे मोडून आनी वाली तोडून

ती : तुजेखातीर राया, रावलें नटून थटून
प्रेमाच्या पाखरांची आयली भेट घडून

तो : अस्तुरी सुंदरी पर्वताची परी
तुज्या म्हज्या काळजाची प्रेमाची दोरी

ती : राखणो तूं देखणो तूं. राजकुंवरा परी
तुज्या म्हज्या काळजाची प्रेमाची दोरी

तो : सांग केन्ना राणी, तुजी म्हजी रात?
जागून जळटली दिव्यांतली वात?

ती : नाका येन्ना राजा, धरचो आसा हात
तुज्यावांगडा चलचें आसा पयलीं पावलां सात

तो : अस्तुरी सुंदरी पर्वताची परी
तुज्या म्हज्या काळजाची प्रेमाची दोरी

ती : राखणो तूं देखणो तूं, राजकुंवरा परी
तुज्या म्हज्या काळजाची प्रेमाची दोरी
(गीत सोंपनाफुडें पाज्जेवयल्यान गती-गिताचो आवाज आयकूंक येता.)

एकलो : ओ रे ओ रे सोय सोय !

दुसरो : ओ हो ओ हो !

एकलो : ओ रे ओ रे सोय सोय !

दुसरो : ओ हो ओ हो !

एकलो : कोणाक धरून हाडला पोय !

दुसरो : ओ हो ओ हो !

एकलो : ओ रे सोय ओ रे सोय !

दुसरो : ओ हो ओ हो !

एकलो : दांड्यार घालून हाडलो पोय !

दुसरो : ओ हो ओ हो !

(तो आवाज आयकनाफुडें जानू आशिल्लो तसो लिपता. गिर्जा बेगिबेगीन खुंट्याच्या दोराक बांदून घेता आनी आदलेंच सवंग करून हुयेली मारता. पाज्जेवयल्यान दादगो आनी म्हादगो वयर येतात. तांणी दोनूय खांद्यार दोन दांडे धरल्यात आनी सकयल्यान दांड्याक गोळ मारून आसा एकलो मनीस. होच वैज. चानून वैजाचो भेस केला. धोतर, खोमीस, उपरणेंबी. पोतयेंत कसलीं कसलीं वखदां आसात. वयर पावनाबराबर तो दांडे सोडून उडकी मारता. दुसरेचकडेन वचून विचारता.)

वैज : हांव चानूदाद वैजारी. इदें जालां, मिदें जालां. खंय कोणा कितें जालां?

(दादगो वैजाक धरून हाडटा आनी गिर्जाम्हऱ्यांत उबो करता. परतून वैज उडकी मारून दुसरेचकडेन वता आनी विचारता.)

वैज : हांव चानूदाद वैजारी. इदें जालां, मिदें जालां कोणाक कितें जालां?

(आतां म्हादगो वैजाक धरून हाडटा आनी गिर्जा म्हऱ्यांत उबो करता. ताचे भोंवतणी दांडे घेवन दोगूय उबे रावतात.)

म्हादगो : हिका पिडा जाल्या. हिका तपास.

(वैज चानयेभशेन तिचेर उडकी मारता. गिर्जा कडेक सरता. अशें एक दोन फावट करता. ती तशीच कडेक सरून ताची उडकी चुकयता. दादग्याक आनी म्हादग्याक तें आवडना. ते मर्दी दांडे घालून ताका आडायतात.)

दादगो : पयस रावन तपास.

वैज : (दादग्याच्या आंगार वचून) हांव चानूदाद वैजारी. पिडेस्ताक कशें तपासचें तें तूं म्हाका शिकयता? तर्पाशोर! (दोगांकूय फर्मायता.) म्हाका वयर धर. (ताच्या आंगावयल्यान वयर चडटा. भुजांचेर पांय दवरता आनी गिर्जाक तपासता. म्हणल्यार ताचे तकलेचेर ताळयेर हात दवरता. ताळी तापिल्ली आसा अशें करून हात फाटीं घेता.)

वैज : (गिर्जाक) जिबली भायर काड.

गिर्जा : (व्हडलें आं करून जिबली भायर काडटा.)

वैज : पुरो, पुरो. जीब धवी जाल्या.
(तांच्या भुजांवयल्यान उडकी मारून सकयल देंवता.)

वैज : उजवो दोळो उकतो कर.

गिर्जा : उकतोच आसा.

वैज : दिसता?

गिर्जा : दिसता.

वैज : दावो दोळो उकतो कर.

गिर्जा : उकतोच आसा.

वैज : दिसता?

गिर्जा : दिसता.

वैज : उजवो धांप.

गिर्जा : धांपलो. (दोळ्यार हात धरता.)

वैज : दावोय धांप.

गिर्जा : धांपलो. (दोळ्यार हात धरता.)

वैज : आतां पळय दिसता?

गिर्जा : बेस बरें दिसता.

वैज : (हुयेली मारून) आवयस! भयांकृत पिडा! दावो पांय वयर काड.
(गिर्जा तशें करता.)

वैज : उजवो पायं वयर काड.
(गिर्जा तशें करता.)

वैज : दोनूय पांय वयर काड.
(गिर्जा उडकी मारून दोनूय पांय वयर काडटा.)

वैज : महाभयंकर पिडा! बेगोबेग हीं वखदां खा. (पोतयेंत हात घालून काडटा.) हीं भिण्णां, जिबेखातीर. हे आंवाळे, हीं चिंचेबोटां आनी हीं बिमलां आनी कर्मलां. सारखीं चाबून खा.
(गिर्जा घोस्तान खाता.)

दादगो : इतल्या वखदांनी बरी जातली?

वैज : ह्या इतल्या वखदांनी कांय घटका जगतली.

म्हादगो : मागीर?

वैज : मागीर कांय ना. मरतली. पिडा महाभयंकर आसा. लग्नपिडा. हेच पिरायेर ती जाता.

दादगो : हाचेर उपाय ना?

वैज : आसा. आत्तांचे आत्तां हिचें लगीन करपाक जाय. नाजाल्यार ती मरतली.

दादगो : लग्नाक आजून कळाव आसा. ती मडकी फातरांनी भरपाक जाय.

वैज : अशें कशें? मडकी पळोवन यो.
(दादगो पळोवन येता.)

वैज : मडकी भरल्या?

दादगो : (भियेवन) हय भरल्या. (म्हादगोय वचून पळोवन येता.)

वैज : हांव चानूदाद वैजारी. शिकाऱ्याचो तीर चुकत, म्हजो अदमास केन्नाच फट जावचो ना. सगळ्या प्राणीमात्रांच्यो पीडा म्हाका पारखुपाक कळटात. हिका आत्तांचे आत्तां लगीन न्हाणोवपाक जाय. न्हवरो खंयूय मेळटा जाल्यार पळयात.

म्हादगो : तो हांगा कसो आसतलो? सकयल गांवांत.

वैज : खंयूय आशीकुशीक आसा जाल्यार पळयात.

दादगो : ना.

म्हादगो : ना.

जानू : (भियेभियेत मुखार येवन) आसा. आसा. हांव आसा.

वैज : शाब्बास. हो आयतोच न्हवरो सांपडलो. दिसताय बरो. पारव्याचें जोडें कशें सोबतलें. (गिर्जाक) तुजे पिडेर हो न्हवरो तुकां उपकाराक पडटलो?
(गिर्जा मान हालयता. दादगो आनी म्हादगो जानूक बारीकसाणीन पळयतात. एकामेकांकडेन फुतफुतून उलयतात.)

वैज : (गिर्जाक आनी जानूक) घेयात. दोगांय हीं जगमां चोखून खायात. अर्दें चोखून दुसऱ्याक दियात. जालें?

दादगो : ना. ना. कांय जावंना. हेका आमी वळखले. हो, हो आमचे भयणीचो घोव जावपाक शकना.

वैज : कित्याक जावपाक शकना? दादल्यासारको दादलो.

म्हादगो : हो राखणो. हो त्या दोंगरार गोरवां राखता.

वैज : गोरवां राखल्यार कितें जालें?

दादगो : आवयन सांगलां, गिर्जाचें लगीन राजकुंवराकडेन लावपाचें.

म्हादगो : हय. राजकुंवराकडेन. घोड्यार बसून आसतलो. भरजरी मुस्तायकी. गळ्यांत कंठो. माथ्याक मुकूट. असलो राजकुंवर सकयल गांवांत आसतलो. आमी ताका माचुलांत बसोवन घेवन येतात.

वैज : गांवांत वचपाची गरज ना. तसो राजकुंवर हांगाच्या हांगा तयार करूंक जाता.

दादगो : कसो?

वैज : ह्या आमच्या दादोक, (जीब चाबून) ह्या आमच्या राखण्याक तुमी सांगता तसो भेस करुंया. अळंकार घालुंया. मुकूट चडोंवया. जालो राजकुंवर. तुमची सकयल वचपाची पावट चुकली. ह्या राखण्याचोय प्रस्न सुटलो.

म्हादगो : ना. तशें कशें जातलें? राजकुंवर, तो राजकुंवर आनी राखणो

तो राखणो.

**वैज** : (आपलेभितर) खुळे म्हणल्यार हे बरे शाणे आसात मरे!

**दादगो** : आवोन सांगलां तशेंच करपाचें.

**म्हादगो** : हय, तशेंच करपाचें. आनी लगीन लावपाक भट जाय.

**वैज** : भट जाय जाल्यार भटाचें काम हांव करतां. भटागेर रावून हांव भटाली विद्या शिकलां. (जीब चाबून) म्हणजे म्हाका भटाली थोडी विद्या येता.

**दादगो** : तूं वैज, तूं भट कसो जातलो? आनी भटाक शेंणी आसता. तुकां खंय आसा?

**वैज** : शेंणी? लावया. इतल्या जाणांक लायल्या. एक म्हजी म्हाकाच लावपाक कितें जालां? जाय जाल्यार तुमकांय एक एक लावंया.

**गिर्जा** : (भियेभियेत) दादग्या, म्हादग्या ह्या राखण्याकडेन म्हाका लगीन करात रे.

**दादगो** : ना ना जावचें ना. तुकां राजकुंवराकडेनूच लगीन करतले.

**म्हादगो** : हो राखणो, हांगा पावलोच कसो? दादग्या धर ताका. हाका कट्यावयल्यान सकयल वडोवंया.
(दादगो ताका धरता.)

**गिर्जा** : नाका, दादग्या ताका कट्यावयल्यान उडोवं नाका. पाज्जेवयल्यान वचूं दी, जायना हांव ताचेकडेन लगीन, पूण ताका उडोवं नाका.

**दादगो** : पर्वतार आयिल्लो मनीस असो कट्यावयल्यानूच सकयल वता.

**गिर्जा** : तो मरतलो.

**म्हादगो** : मरूं दी. आयिल्लो कित्याक पर्वतार?
(दोगूय ताची पोचुंडी धरतात आनी ताका कट्यावल्यान सकयल वडयतात. गिर्जा आनी चानू तांकां आडावपाचो यत्न करता. पूण ते बदना. गिर्जा रडटा.)

वैज : भोंगूं बाबड्याचें! निमाणी किळांचपसून माल्ली ना.

दादगो : ताणें मारूना ती आतां तूं मार.

वैज : हांव कित्याक मारूं? हांव तुमचो वैज. म्हजें काम जालें. आतां म्हजी बिदागी दियात. हांव चल्लों.

दादगो : कसली बिदागी? आमी केन्ना दिवन नकळो. आनी आवयन तशें सांगूना.

वैज : सांगूना जाल्यार आसूं. विसरल्या आसतली. दुसरे फावट येता तेन्ना पळोवचें.

म्हादगो : दुसरे फावट तूं आमकां कित्याक जाय?

वैज : हांव नाका जाल्यार दुसऱ्या वैजाक हाडात. आतां म्हाका हाडला तसो पायात.

दादगो : एकदां वयर हाडिल्ल्याक आमी सकयल पायनात.

वैज : बरें आसा. पाज्जेवयल्यान वतां चलून.

म्हादगो : पाज्जेवयल्यान खंय? कट्यावयल्यान. काम जालें, वैज मेलो.

वैज : नाका, नाका.

(वैज हेवटेन तेवटेन धांवता. दादगो आनी म्हादगो ताचेफाटल्यान धांवतात. ताका धरतात आनी ताची गुठली उबारतात. गिर्जा तांकां आडावपाचो यत्न करता पूण ते आयकना. वैजाची गुठली कट्यावयल्यान सकयल वडयतात. तो मोट्यान किळांच मारता. गिर्जा रडटा. दादगो आनी म्हादगो मोटमोट्यान हांसतात.)

दादगो : (गिर्जाक) रडूं नाका भयणी. आमी भाव आसतना तूं रडूं नाका. तुजी पिडा आमकां समजली.

म्हादगो : आमी आत्तां वचून राजकुंवराक घेवन येतात. मातशें सोंसून धर.

(दोगूय जाण ताकतिकेन माचूल उखलतात. दादग्याक याद जाता. थारता. गिर्जाक दोरयेन खुंट्याक बांदून घालतात.

आनी दोगूय माचूल घेवन सकयल वतात. गिर्जा एकलीच आसा. धांवून कट्यार वता. थंयसावन पळयता. निर्शेता. सैरभैर जावन हांगाथंय भोंवता. कमराची दोरी तशीच आसा. एकलीच गायता.)

**रानफुला सपन तुजें फुटून जालें चूर**
**सवण्यापिला सूख तुजें उडून गेलें भुर ॥**

**घेवन तुज्या मोगावास कोण आयलो खास**
**नळये भितर घुस्मट्लो बांसरेचो सूर ॥**

**कसली माया कसलो मोग सगळो उज्याधग**
**कंवळी कळी चेंचून वता माथ्यार पडून खूर ॥**

(त्यांय वेळान दादगो आनी म्हादगो माचूल घेवन येता. तो आवाज आयकूंक येता. गिर्जा तोंड घुंवडावन बसता.)

एकलो : **ओ रे ओ रे सोय सोय !**
दुसरो : **ओ हो ओ हो !**
एकलो : **माचूल कशें धांवता पोय !**
दुसरो : **ओ हो ओ हो !**
एकलो : **ओ रे सोय ओ रे सोय !**
दुसरो : **ओ हो ओ हो !**
एकलो : **माचुलांत कोण बसला पोय !**
दुसरो : **ओ हो ओ हो !**

(माचूल घेवन माचयेर येतात. माचुलांतल्यान राजकुंवर उडी मारता. दादगो-म्हादगो माचूल जाग्यार दवरतात. भरजरी भेस

गळ्यांत मणयांच्यो माळो, कानांत कुंडलां, माथ्याक मुकूट, कमराक तरसाद, राजकुंवराचो भेस केल्लो जानू. पूण गिर्जा ताका वळखना.)

कुंवर : (खास पॉज घेवन) हांव जांबोटी नगराचो राजकुमार, जानोजी जयवंतराव जगदाळे. म्हज्या घोड्याक हांवें तळयेर उदक पिवपाक धाडिल्लो, आनी हांव ताची वाट पळयत राविल्लों. जाल्यार तुमी अचकीत येवन म्हजेर घुरी घातली आनी माचुलांत घालून म्हाका वयर हाडलो. तर कित्याक? (तरसाद दाखोवन) हे तरसादीक पळयात आनी खरें कितें तें सांगात. नाजाल्यार हे तरसादीन तुमचीं दोगांयचीं लुणां करतां. आनी ते पाञ्जेवयल्यान सकयल गडगडून वडयतां. (तरसाद नाचोवन) सांगात, ह्या शूरवीर अशा राजकुमार जानोजी जयवंतराव जगदाळेक तुमी हांगासर ह्या पर्वतार कित्याक हाडला? हांव तीन मेजचे पयलीं म्हज्या प्रस्नाची जाप दियात, नाजाल्यार लुणां जावपाक तयार रावात. (हांगाथंय नाचता आनी मेजता.)

एक –

(दादगो आनी म्हादगो एकामेकाच्या तोंडाक पळयतात.)

दोन –

(दादगो मुखार वता आनी ताचे तकवारीक घट धरता आनी ती बागयता. तेसरशीं कुंवर भियेता. पूण तांकां दाखयना.)

कुंवर : (नरमायेन) सांगात, म्हाका हांगा कित्याक हाडला?

दादगो : आमचे भयणीकडेन लगीन लावपाक.

कुंवर : लगीन? आनी तुमचे भयणीकडेन? शी! हांव राजकुंवर. जानोजी जयवंतराव जगदाळे.

म्हादगो : आनी तिवूय राणी. गिर्जाराणी!

कुंवर : खंय आसा ती?

दादगो : ही पळय, हांगा आसा.

कुंवर : (पळोवन) तिका अशी बांदून कोणें घातल्या? रावात. पयलीं

हांव तिका मुक्त करतां.

(तरसाद उबारता.) ती बागवल्या म्हणपाचें लक्षांत येता. (दादग्याकडेन दीत.) तुवेंच बागयिल्ली. मातशी नीट करून दी. (दादगो ती सारकी करून दिता.)

कुंवर : (व्हडल्यान गरड घालून) भियेवं नाका गिर्जाराणी. हांव तुजी सुटका करतां आनी जांणी तुका बांदून घातल्या तांची चटणी करतां. पयलीं तुजी सुटका - (उडकी मारता.)

दादगो : (कुंवराक) राव, बोब कित्याक मारता?

(आपूण वचून गिर्जाच्या कमराची दोरी सोडटा. ती तशीच तोंड घुंवडावन आसा.)

दादगो : गिर्जाराणी, तुजेखातीर ह्या राजकुंवराक हाडला. पळय. आवयन सांगिल्लो तस्सो. आतां वचून भटाक घेवन येतां.

म्हादगो : (कुंवराक) तुमकां दोगांकूय सोडून सकयल वतां. पळून वचशात. चांचावन मारतलों. तूं थंय उबो राव.

(कुंवर कडेक वचून उबो रावता. दोगूय दोन दांडे घेतात आनी सकयल वतात. कुंवर ते सकयल गेल्ल्याची खात्री करून घेता. राजकुंवराच्या संवंगांत वावुरता.)

कुंवर : गिर्जाराणी, जांबोटी नगराचो राजकुंवर, जानोजी जयवंतराव जगदाळे तुकां नमस्कार करता.

गिर्जा : माफ कर राजकुंवरा, हांव तुज्या नमस्काराचो स्विकार करपाक शकना.

कुंवर : कित्याक? राजकुमारी कित्याक? असो म्हजो अपमान कित्याक?

गिर्जा : म्हाका माफ कर राजकुंवरा.

कुंवर : केलें गिर्जाराणी, तुकां साफ माफ केलें. गुन्यांवकाराक माफ करप हो आमचो धर्म. दीसपट्टे अशे कितल्याश्याच लोकांक आमी माफ करतात. आतां ह्या तुज्या भावांनी म्हाका हांगा हाडलो. पूण हांवें तांकां माफ केलें. साफ माफ केलें. उलय

गिर्जाराणी.

गिर्जा : कितें उलोवं?

कुंवर : उलोवपाक जायना जाल्यार पद म्हूण. म्हाका तुज्यो भावना समजून घेवपाक जाय.

गिर्जा : म्हज्या भावनांक लाय उजो. तांचें पडलां कोणाक !

कुंवर : म्हाका पडलां गिर्जाराणी.

गिर्जा : तशें जाल्यार आयक.

कुंवर : सांग गिर्जाराणी.

गिर्जा : हांव तुजेबराबर लगीन जावची ना.

कुंवर : (अडेच्या रागान) कितें? म्हजेकडेन ह्या जांबोटी नगरीच्या राजकुमार जानोजी जयवंतराव जगदाळे कडेन तूं लगीन जायना म्हूण सांगता? गिर्जाराणी, केदें तुजें धाडस? खरें म्हणल्यार तुजेकडेन लगीन जावपाक विरोध करपाचो तो हांवें. पूण हांव वगी रावलों. तुज्या भावांनी म्हाका धरून हाडलो. तुजेमुखार उबो केलो. हांव लग्नाक तयार जालों. कारण नवीं, नवीं लग्नां करप हो आमच्या सारक्या राजांचो धर्म. म्हजो बापूय जयवंतराव जांबूवंत जगदाळे हाका धा बायलो आशिल्ल्यो. म्हजो आजो जांबूवंत जयराम जगदाळे हाका वीस बायलो आशिल्ल्यो. म्हजो पणजो जिवोत्तम जांबूवंत जगदाळे हाका –

गिर्जा : तुकां कितल्यो आसा?

कुंवर : (मेजून) तूं धरून फकत पांच.

गिर्जा : ना. म्हाका तुजी पांचवी बायल जावपाची ना.

कुंवर : वा! म्हणजे तुकां एक आख्खो राजकुंवर जाय! अशे एकलेक एक राजकुंवर मेळपाक राजकुंवर कितें रस्त्यार पडल्यात?

गिर्जा : म्हाका राजकुंवर नाका.

कुंवर : गिर्जाराणी, तुवें परत म्हजो अपमान केलो.

गिर्जा : तुज्या धर्माप्रमाण म्हाका माफ कर.

कुंवर : म्हज्या धर्माप्रमाण हांव तुजेकडेन लगीन जातां.

गिर्जा : हांवें जाच्या गळ्यांत हार घातलो ताचेकडेन म्हजें लगीन जालें.

कुंवर : केन्ना?

गिर्जा : आयज.

कुंवर : खंय आसा तो भाग्यवान? एक तर ताजी तकली कापतां नातर म्हजी तकली कापून ताज्या पांयांकडेन वडयतां

(कट्याकडेन वचून सकयल पळोवन गिर्जाराणी हुंडक्या हुंडक्यानी रडटा. कुंवर तिका हात लावन थारावपाक वता. ती ताचो हात कडेक सारता.)

कुंवर : राणी, राणी अशी रडूं नाका.

गिर्जा : हात लावं नाका म्हाकां. ताजेबगर म्हाका कोणूच हात लावंक शकना.

कुंवर : खरें तुजें. पूण जो तुकां हात लावपाक शकता तोच तुकां हात लायता. वगी वगी रडूं नाका. तुज्या जानोजीक कांय जावना.

गिर्जा : म्हाका जानोजीचें पडूंक ना.

कुंवर : जाणा हांव. तुकां तुज्या जानूचें पडलां.

गिर्जा : तूं ताका वळखता?

कुंवर : हय. बरेभशेन. इतल्या हुशार राखण्याक कोण वळखना? जानूक वळखतां. ताच्या भावाक चानुकूय वळखतां. भयंकर मस्तो पोर! पूण हांव तांकां दोगांकूय म्हगेर गोरवां राखपाक दवरपी. दोगांकूय राजराखणे करपी.

गिर्जा : पूण म्हाका तांचो हुस्को जाला.

कुंवर : कित्याक?

गिर्जा : म्हज्या भावांनी तांकां दोगांकूय ह्या कट्यावल्यान सकयल वडयले. घडये ते... थुमेकाल! तशें कितें घडना जाल्यार पुरो. हातापांयांनी सारके आसल्यार पुरो.

कुंवर : भियेवं नाका. ते रानांतले राखणे. ते झाडां-पेडांवयल्यान पडटात. दोंगरा-देंगणांतल्यान कोसळटात. मातशे धाडावतात, पूण आसा तशे उबे जातात. तांचो हुस्को नाका.

गिर्जा : तूं म्हणटा तशें जावं! तुज्या तोंडांत म्होंव पडूं!

कुंवर : चल, गिर्जाराणी थंय वचून चार कणेरां खावंया.

गिर्जा : (रागान) कितें? तुजे बराबर कणेरां खावं? ना. जाका हांवें मनांत वरलां, ताज्याच वांगडा कणेरां खातलें आनी काण्णां-चुन्नांय खातलें.

कुंवर : मागीर कळाव कित्याक? (तिचो हात धरून) गिर्जाराणी, म्हज्या दोळ्यांत पळय.

(ती ताका बारीकसाणीन पळयता. पार्श्वभागार बांसरेचे सूर. वळख पट्टा. तिका खोशी जाता.)

गिर्जा : जानू! तूं खरेंच हुशार. येद्या व्हडल्या कट्ट्यावयल्यान पडलो पूण तुका कांयच जालेंना. आयजवेर त्या कट्ट्यावेल्यान पडिल्लो कोणूच वांचूंक ना..

कुँवर : हांव फकत हुशार न्हय. भाग्यवान लेगीत.

गिर्जा : (याद जावन) आनी तुजो भाव ! चानू ?

कुंवर : म्हाका कांय जावना जाल्यार ताका कितें जातलें?

गिर्जा : आतां तरी आमचें दोगांयचें लगीन बरेभशेन जाल्यार पुरो.

कुंवर : तूं भियेवं नाका. सगळें वेवस्थीत जातलें. येता तो भट मात सारको आसल्यार पुरो.

(इतल्यान दादगो आनी म्हादग्याचो आवाज आयकूंक येता. ते गती-गीत म्हणत येता.)

एकलो : **ओ रे ओ रे सोय सोय !**

दुसरो : **ओ हो ओ हो !**

एकलो : **ओ रे ओ रे सोय सोय !**

दुसरो : **ओ हो ओ हो !**

एकलो : कोणाक धरून हाडला पोय !

दुसरो : ओ हो ओ हो !

एकलो : ओ रे ओ रे सोय सोय !

दुसरो : ओ हो ओ हो !

एकलो : दांड्यार घालून हाडला पोय !

दुसरो : ओ हो ओ हो !

(कुंवर आनी गिर्जा सादूर जाता. आदीं आशिल्ले ते सुवातेर तश्शी रांवतात. दोगूय वयर येतात. दोगांयनी दोन दांडे धरल्यात आनी त्या दांड्यांचेर एकलो बसला. हो चानू. भटजीच्या भेसांत. म्हणल्यार पंचो न्हेसला. खांदार उपरणें. वयलें आंग उकतें. गळ्यांत व्हडलें जानवें. माथ्यार लांब शेंणी लांबता. उकते सुवातेर एक भोंवर मारून थारता. भट दांड्यावयल्यान उडकी मारून देंवता. टोळाभशेन हांगाथंय उडयो मारता.)

भट : हांव टोळंभट. ते टोळ म्हजेसारके उडयो मारतात. ह्या दांड्यार घालून म्हाका हांगा कित्याक हाडला? कावळ्याक पींड दवरून हांव वाटेकुशीक तणाचेर उबो आशिल्लों, कावळ्याची वाट पळयत. जाल्यार ह्या दोगूय तोमसुळांनी म्हजी पोटली उखल्ली आनी घाली दांड्यार. तुमी शाणे काय बोणे, पिशे काय खुळे, म्हाका कांय खबर ना. सांगात, म्हाका हांगा कित्याक हाडला? ह्या पर्वताचेर कसलें कार्य आसा? कोण बाळंत जाला? भुरग्याचें बारशें करपाचें आसा? कोणाचें स्राद्ध वाडपाचें आसा? काय कोणाचें तर्पण करपाचें आसा?

दादगो : लगीन लावपाचें आसा.

भट : लगीन? कोणाचें? तुमचें दोगांयचें? व्हंकलो बऱ्यो मेळ्ळ्यो तुमकां! कोणें दोळे धांपूनच दिल्या आसतल्यो. हाडात व्हंकलो. खंय आसात त्यो? आत्तां लायतां लगीन.

म्हादगो : लगीन आमचें न्हय.

भट : तुमचें न्हय? तुमी अशेच उरले तर!

दादगो : आमचें तुकां नाका. आवयन सांगलां तशें लग्न जावंदी.

भट : आवयक आपय.

दोगूय : (रागान) कितें?

भट : व्हंकल न्हवऱ्याक आपय.

दोगूय : हीं दोगांय हांगाच आसात.

भट : वा! जोडें सोबता बरें! येजमानी खंय?

(दादगो म्हादगो एकामेकांकडेन पळयतात.) कन्यादान कोण करतलो?

(तशेच पळयतात.) होमहवन, सवो, नाल्ल, तांदूळ, गोड, साकर, फळां, फुलां, लाडू, माती आनी गोबोर! हें सगळें खंय?

(दादग्या आनी म्हादग्याचे तकलेचेर ताण येता. तांची तकली दुखपाक लागता. ते रडपाक पावतात. बेगिबेगीन गिर्जा मदीं पडटा.)

गिर्जा : भटमाम, भटमाम, तांचे तकलेक ताण दिवं नाका. तशें केल्यार अनर्थ जातलो.

भट : बरी भावांची काळजी मुगो तुकां. बरें आसा, आवयन सांगलां तशें लगीन लावंया. एक न्हवरो आनी एक व्हंकल पुरो. तिसरें कांयच नाका.

(हांगा थंय नदर मारता. मागीर दादग्याक आनी म्हादग्याक) आतां हांव सांगतां तितलेंय करपाचें. नाजाल्यार आवयन सांगूना म्हूण वगी रावशात. तुमचे भयणीचें लगीन न्हय? भावांनी सगळें उमेदीन करपाचें. हांगा दुसरो आनीक कोण मस्णो आसा! तुमी तिचे भाव, तुमीच तिचे आवय-बापूय, तुमीच तिचे मांय आनी मांव, तुमीच दायजीगोत्री, वाजंत्री, धेडो, धेडी, येजमान, करवली आनी तुमीच लोक. (दोगांकूय) समजलें? (तांकां कांय कळुना. ते चिंतपाक पडटात.)

आसूं, आसूं तकलेक ताण दिवं नाकात. बुडकुल्याचो फार जायत. (याद करून) आसनां... आसनां. हीं आसनां हांगा दवरात.

(मुखावयलीं दोनूय आसनां मदीं हाडून दवपाक लायता. ते तशे करतात.)

आतां ह्या आसनांचेर न्हवऱ्या व्हंलेक दवरात.

(तांकां कांय कळना.)

आरे व्हंकल म्हणल्यार तुमची भयण. तिका हांगा दवरात. न्हवरो म्हणल्यार हो राजकुंवर. ताका हाडून हांगा दवरात.

(दादगो गिर्जाक उखलता आनी म्हादगो कुंवराक उखलता. कुंवराच्या उजव्या हाताक गिर्जा आनी गिर्जाच्या दाव्या हाताक कुंवराक उबे करपाक सांगता. ते तशे करतात.)

कुंवर : हें उरफाटें जालें ना?

भट : एऽऽ राजकुंवरा, तुकां म्हजेपरस चड कळटा? ह्या टोळंभटान शंबर विसो लग्नां लायल्यांत. तरसादी घुंवडापा इतलें सोंपें काम न्हय तें. समजलें?

(कुंवर वगी पडटा.)

हांव कितें करता तें पळय. कसल्योच वस्तू, सामानसुमान ना. तरी लेगीत लग्नकार्य वेवस्थीत करतां. फकत अक्षता पुरो. (येवजून) अक्षता! अक्षता! (दादग्याक फातरांची मडकी दाखोवन) ती मडकी हाड (दादगो मडकी घेवन येता. भट तातूंतले फातर अक्षता कश्यो वापरता.) तीळ? तीळ ना– तीळंम अक्षतांम समर्पयामि. (दोन फातर वडयता) भस्म? ना. भस्मंम् अक्षतांम् सर्मपयामि. काजळंम अक्षतांम् समर्पयामि. गोमूत्र? गोंयचें मूत. तें सकयल आसा. अक्षतांम् समर्पयामि. गोयम? गायचें शेण. तेंवूय सकयल आसा. समर्पयामि. पींड? (आपूण धरून सगळ्यांक मेजता.) पांच पींड? तेवूय ना. पंच पींडम–अक्षतांम् सर्मपयामि. (दर फावटी अक्षता म्हणून फातर

वडयता.)

गिर्जा : (दुबावान) भटमाम, तूं हें किते करता? लगीन काय स्राद्ध? आवय मरून एक वर्स जाल्लें तेन्ना काकंमभटान अशेंच केल्लें. (चूक चानूच्या लक्षांत येता. जीब चाबता. पूण तांकां दाखोवन दिना.मागीर ताका शिटकायता.)

भट : शू ऽ ऽ व्हंकल मुगो तूं? लजना तें एक बरें आसा. निदान वगी तरी राव. त्या कांकमभटाच्यो गजाली तूं म्हाका टोळंभटाक सांगता? माचुलांत बसून फुलां खुंटपाइतलें सोंपें काम न्हय हें. समजलें? (ताका समजायत) हो असलो विधी करतकूच मागीर आयुश्यभर मरणाची भिरांत नासता. (याद करून) अंतरपाट! (खुंट्याची दोरी सोडटा. तिचीं दोनूय पोतां दादग्याच्या आनी म्हादग्याच्या हातांत दिता. दोगांयच्यामदीं धरपाक लायता.) घट धरात. दोरी न्हय. अंतरपाट तो. पड्डो. (ते दोरी धरून रावतात.) आतां हांव मंगलाष्टका म्हणटां. (दादग्या--म्हादग्याक) तुमी अक्षता वडोवपाच्यो. (येवजून) अक्षता कश्यो वडयतले? (तांच्या हातांतली दोरी तांच्या गळ्याक बांदता आनी मडकेंतले फातर तांच्या हातांत दिता.) ह्यो अक्षता हांव खुणा करतां तेन्ना दोगांयच्या माथ्यार थोड्यो थोड्यो वडोवपाच्यो आनी हांव सांगता तें म्हणपाचें. सांबाळून. मातशो मोट्यो आसात. कोंकबी जायत.

(ते तकली हालोवन हयकार दितात. टोळंभट मंगलाष्टकां म्हणटा.)

**गोंधळी म्हूर्तार पर्वतार आसा, गिर्जा–जानू व्हाड्डीक**
**दोन खुळांक गंडणी दोन कुळांचें तड्डक**
**पावला कणकणी आवैची सांगणी, खरी केली पुतांनी**
**देखून भीड सोडून उबीं सव्यार राजा आनी राणी**
**शुभमंगल – हो ऽ ऽ र गयो**

दोंगरार फलाहार तयार आसा, जगमां जांबळां घोटां
तोरंगां काजू पणसुलां ओवळी धोडे चिरपुटां
वाजपी गावपी नाचपी कोगळां किरां मोरां
कवडे पारवे गिरबुजीं किरकिरे चानये पोरां
शुभमंगल – हो ऽ ऽ र गयो

हातांत अक्षता जांच्या शिंसो, माट्टी रुखां
झडटा पानां पट्पटा जशीं दोळ्यांतलीं दुकां
पयस उबीं हरणां, मेरवां, सोंशे, चितळां सावजां
न्हवऱ्या व्हंकलेक बरें मागून सांस्पीता आपलीं काळजां
शुभमंगल – हो ऽ ऽ र गयो

(मंगलाष्टकां म्हणटा आसतना दोगांकूय 'हो ऽ ऽ र गयो' म्हणून अक्षता वडोवपाक खुणायता तेबराबर ते फातर तांच्या माथ्यार वडयतात. गिर्जाक आनी कुंवराक ते दुखतात. तीं हाय–हूय करीत किळांच्यो मारतात. दादग्याक आनी म्हादग्याक व्हडली खोशी जाल्या. अक्षता वडयतना ते 'हो ऽ ऽ र गयो' म्हणून मोटमोट्यान हांसतात आनी म्हणटात.)

दोगूय : आमची भयण लगीन न्हाता!
(मागीर एकदांचीं मंगलाष्टकां सोंपतात. गिर्जाक आनी कुंवराक सू जाता.)

भट : (याद करून) माळ... माळ फुलांची माळ! (कुंवर कमराच्या पट्याक लावन हाडिल्ली फुलांची माळ काडून दिता. ही सकाळची तीच माळ) वा! वा! बरो हुशार राजकुंवर तूं. कमराक माळो लावन भोंवता. दिसली राजकुंवर घातली माळ!

कुंवर : एकूच आसा.

भट : पुरो. एकूच पुरो. तातूंतच भागयतां पळय. टोळंभट म्हणजे कितें समजली तुमी! (कुंवराक) घाल माळ.

(कुंवर गिर्जाच्या गळ्यांत माळ घालता.)
आतां दोगांय जाणां ती माळ म्हज्या गळ्यांत घालात.
(दोगांय तशें करतात.)
(दादग्याक आनी म्हादग्याक) वाजयात, वाजयात.
(तांचे तकलेंत येना.)
निदान ताळयो तरी वाजयात. (ताळयो वाजोवन दाखयता. तेसरशीं दादगो आनी म्हादगो एकामेकाच्या हाताचेर हात मारून ताळयो वाजयतात.)

भट : वा! खुळे म्हणल्यार बरी तकली आसा मरे!

कुंवर : भटमाम, मातशें बेगीन.

भट : कित्याक? आनीक खंय माळ घेवन वचपाचें आसा?

कुंवर : भटमाम, मुखावयलीं कामां आसात न्हय?

भट : (खोचून) खबर आसा. खबर आसा म्हाका, आतां हो निमाणो विधी.

गिर्जा : सप्तपदी उरली. सात पावलां चलपाचीं.

भट : तींच. तींच. पूण हांगा पर्वताचेर तेमयेर सप्तपदी जायना. दोंगरा-देंगणांनी जीं लग्नां जातात थंय सप्तपदी बदला सप्तउडी जाता.

गिर्जा : (दुबावान) सप्तउडी?

भट : हय. हो सप्तउडयेचो विधी फकत म्हाका टोळंभटाक सोडून दुसऱ्या कोणाक येना. समजलें? सांगता तशें करात. (मंत्र म्हणटा.) इष एकउडी भव! (तांकां फर्मायत) मारा उडी. (दोगांय बसकांवयल्यान एकामेकाचो हात धरून उडयो मारतात.)

भट : इष दोन उडी भव! इष तीन उडी भव! इष चार उडी भव! इष पांच उडी भव! इष स उडी भव! इष सात उडी भव! (तांकां खुणो करून सातूय उडयो मारपाक लायता. तीं हातांत हात धरून टोळंभट सांगता तश्यो उडयो मारतात. दोगांय खर्शेतात. दादगो आनी म्हादगो उमेदीन हांसतात.)

(गिर्जाक आनी कुंवराक) लगीन फुक्याक पडना! (दादग्याक-म्हादग्याक) जालें! लगीन जालें!

**दादगो** : लगीन जालें?

**म्हादगो** : जालें?

(दोगांकूय खोशी जाता.)

**भट** : हय, तुमची भयण आनी राजकुंवर लगीन न्हालीं. बरी खोशी जाल्या भावांक. चलात, म्हजें काम सोंपलें आतां. हेच खोशेंत म्हजी दक्षणा वडयात. (दोगांय हात मुखार करतात.)

**दादगो** : कसली दक्षणा? आवयन कांयच सांगूंक ना.

**भट** : (आपलेभितर) हे आवयचो घोव व्हरून! हे आवयन जें सांगपाक जाय तेंच सांगूना. (दोगांकूय) आसूं. तुमची इत्सा आसा तितली दक्षणां दियात. भांगराच्यो दोन म्होरो. नाजाल्यार चांदीच्यो, पितळेच्यो, तांब्याच्यो आसल्यार जाता. लोखंडाच्यो लेगीत चलतात (मागता.)

**दादगो** : (गिर्जाक) भयणी लगीन खऱ्यांनीच जालें?

**गिर्जा** : हय भावांनो.

(गिर्जा आनी कुंवर दादग्या आनी म्हादग्याक पांया पडटात. टोळंभटाक पांयां पडपाक वतात. इतल्यान-)

**दादगो** : म्हादग्या, काम जालें. भटाक उखल.

(टोळंभट जीव वांचोवपाखातीर हांगाथंय धांवता. दादगो आनी म्हादगो ताच्याफाटल्यान धांवतात.)

**भट** : नाका. नाका. दक्षणां नाका आनी बिदागीय नाका. ह्या टोळंभटाक धरूं नाकात. आरे, फुडें हांगेल्या भुरग्याच्या बारशाक कोण येतलो?

**दादगो** : तेन्ना आमी दुसऱ्या भटाक हाडटले.

(टोळंभटाक धरतात आनी कट्यावयल्यान सकयल वडयतात. तो व्हडल्यान किळांच मारता. गिर्जा आनी कुंवर चुरचुरतात. गिर्जाक चड दुखता.)

कुंवर : (तिका समजायत) भियेवं नाका. ताका कांयच जावचें ना. (ल्हवूच) जानूदाद वैजारीक कांय जालें ना, तशें टोळंभटाकूय कांय जावचें ना. गिर्जाराणी, म्हज्या जिवितांतलें सगळ्यांत व्हडलें सपन पूर्ण जालें. म्हाका आयज पर्वतायेदी खोस जाल्या.

(तिका घट धरपाक वता. दादगो आनी म्हादगो ताचेर सुरो उबारतात. दोगांय एकामेकांपसून फाटीं सरतात. गिर्जा तांकां समजायता.)

गिर्जा : दादग्या, म्हादग्या हो आतां म्हजो घोव जालो.

दादगो : घोव जालो मूं? काम जालें. आतां आमी ताका कट्यावयल्यान सकयल वडयतात.

कुंवर : लगीन जायनाबरोबर भावोजीक कट्यावयल्यान सकयल! म्हजें फळीसबन आसा मरे.

म्हादगो : कांय ना. काम जालें. आतां तूं आमकां नाका.

गिर्जा : (समजायता) दादग्या, म्हादग्या आरे सभाग्यांनो, सारकें आयकून घेयात. हांव ताचेकडेन लगीन जाला.

कुंवर : आतां हांव तुमचे भयणीक घेवन सकयल वतलों. म्हज्या घरा.

(दोगूय सुरे उबारतात.)

दादगो : ना. गिर्जाराणीक व्हरूंक मेळची ना.

म्हादगो : आवयन तशें सांगूना.

गिर्जा : तुमची गिर्जाराणी हांगाच रावतली.

कुंवर : पूण–

गिर्जा : (ताका थांबयता. भावांक) हांव हांगाच रावतली आनी हो राजकुंवरय हांगाच रावतलो.

दादगो : हांगा?

गिर्जा : हय. आतां तो म्हजो घोव जालो. आमची आवय आनी आमचो बापूय अशेंच एकठांय रावताले. घोव आनी

बायल जावन, तशीं आमी दोगांय रावतलीं. घोव आनी बायल.

(तांकां व्हडलेंशें कांय कळूना. पूण भयण सांगता म्हूण ते आयकतात.)

दादगो : (कुंवराक) तिका हात लायशी जाल्यार खबरदार!

गिर्जा : (तांकां फुसलायत) दादग्या, म्हादग्या तुमकां भूक लागुना?

दादगो : लागल्या.

म्हादगो : व्हडली भूक लागल्या.

गिर्जा : चला भितर वचून तें मेरवाचें काळीज खायात.

दादगो : तूं यो.

गिर्जा : नाका. म्हजें आतांच लगीन जालां न्हय, लग्नानूच म्हजें पोट भरलें. तुमी खायात चला.

कुंवर : (अजापान) आरे, आनी म्हाका आपोवप ना? हांव भावोजी मरे तुमचो!

दोगूय : शी! मनीसघाण!

(दोगूय सुरे घेवन भितर वतात.)

कुंवर : गिर्जाराणी, हें कितें? इतल्या कश्टांनी, करामती, हिकमती लडोवन आमी लगीन जालीं खरीं. पूण हें कितें? हांवें तुकां घरा व्हरप ना? तुजेबराबर रावप ना. खावप ना. तुकां हात न्हय बोटपासून लावप ना म्हणजे कितें?

गिर्जा : तें तांकां आतां कशें समजावप?

कुंवर : तूं तांची भयण. तूं समजाय.

गिर्जा : तशें शक्य आयिल्लें जाल्यार समजावचें नाशिल्लें? पूण ते सामकेच राकेस कशे!

कुंवर : राकेस कशे न्हय, राकेसूच! म्हाका केन्ना काय घरा पावन जालां. आवो म्हजी वाट पळयतली. भाटकारालीं गोरवां खंय पावल्यांत देवाक खबर! तो म्हाका पिसडून खातलो. गिर्जाराणी, चल. आमी हे पाज्जेवयल्यान पळून या. नाजाल्यार

ह्या कट्यावयल्यान दोगांय बरोबर उडी मारुंया.

गिर्जा : नाका. ते आमची फाट सोडचेनात. म्हाका म्हजेपरस तुजो हुस्को. म्हजें कितेंय जावं!

कुंवर : अशें कशें? तूं म्हजी राणी. तुजेखातीर इतलें केलां. तुज्या जिवाक हांव राखतलों.

गिर्जा : तशें जाल्यार पळून वचपाचीं पिशेपणां करूं नाका. तुकां गांवांत वचपाची जितली उमळशीक लागल्या, तितलीच म्हाकाय लागल्या. पूण ह्या भावांचो बंदोबस्त केलेबगर तें कशेंच शक्य ना.

कुंवर : गिर्जाराणी, जंय तूं थंय हांव. तूं पर्वतार जाल्यार हांवूय पर्वतारूच. हो जानू आनी गिर्जा आतां एकजीव जाल्यांत. (तिका लार्गी ओडटा. इतल्यान दादगो आनी म्हादगो खोंपींतल्यान भायर येतात.)

दादगो : ए ऽ ऽ आमचे भयणीक कितें करता?

म्हादगो : कुशीक सर.

गिर्जा : दादग्या, म्हादग्या, तो आतां म्हजो घोव जाला.

दादगो : घोव जाल्यार कितें जालें? हात कित्याक लावपाक जाय? कडेक सर.

म्हादगो : गिर्जाराणी, काळीज खातकच आमची तकली जड जाता.

दादगो : सदचेसारखे आमी असो पारो करीत रावतात.

कुंवर : तुमी भायर पारो करात. आमी दोगांय भितर न्हिदतात. (गिर्जाच्या हाताक धरता.)

म्हादगो : ए ऽ ऽ हात सोड तिचो. तूं खंय तिचे बराबर वता? तूं हांगाच न्हीद.

कुंवर : हांगाच?

दादगो : हय. गिर्जाराणी तूं सदचेसारखी भितर वच. (ती वचपाक अनमनता.)

दादगो : (आवाज वाडोवन) वता काय ना?

(ती भंयानूच खोंपींत वता. वतना कुंवराक पळयत पळयत वता. ती वतकूच दादगो आखाण्याचे दांडे घालून आखाणो बंद करता.)

कुंवर : हांव हांगा खंय न्हिदूं? असो भायर न्हिदपाक हांव कितें राखणो? म्हाका बरो पलंग जाय.

(दादगो म्हादगो ताचेर धेंकणो घालतात.)

दादगो : ए ऽ ऽ आवाज नाका. गिर्जाराणयेंक न्हीद पडपाक जाय. ह्या वेळार आमी सुकण्या सावजांचो लेगीत आवाज बंद करतात.

कुंवर : पूण–

म्हादगो : आवाज बंद. नाजाल्यार कट्यावयल्यान धुकलून वडयतले.

कुंवर : (भितल्ले भितर) हाचे पयलीं उडोवं ना काय कितें तुमी? हांव भियेतां!

दादगो : ए ऽ ऽ,आवाज बंद.

(कुंवर वगी रावता. दादगो आनी म्हादगो ताका खुंट्याचे दोग्येक बांदून घालतात. तो थंयच बसता. धोंपरांत तकली घालून. दादगो आनी म्हादगो व्हदल काडिल्ल्यो बसका आसा तश्शो व्हरून त्या त्या जाग्यार दवरतात. हातांत सुरे घेवन दोगूय पारो करतात. हेवटेन तेवटेन पासयो मारतात. खोंपींत उजवाड आसा. कुंवर ल्हवूच उठ्ठा. दादग्या आनी म्हादग्याचो अदमास घेता. आनी ल्हवूच आखाण्याचे दांडे काडून खोंपीवटेन वता. खोंपीच्या दाराकडेन पावतकूच दादग्याक जाग येता.)

दादगो : अं.

म्हादगो : (उठ्ठा) अं.

(दादगो खुंट्याकडेन वता आनी खुंट्याची दोरी ओडटा. कुंवराक ओडून आसा तसो जाग्यार हाडटा. म्हादगो दांडे घालून आसा तसो आखाणो बंद करता. दोगूय अदीक चत्रायेन

पारो दितात. काळोख जाता. रातकिड्यांचो आवाज. खोंपींत उजवाड दिसता. जनेलांतल्यान, दारांतल्यान उजवाड भायर फांकता. गिर्जाच्या आवाजांत गीत आयकूं येता.)

**रानफुला सपन तुजें फुटून जालें चूर**
**सवण्यापिला सूख तुजें उडून गेलें भुर ॥**

**बांदून आसा बंदपास अडून आसा स्वास**
**बंदखणींत पडून हांगा जिवीतभर झूर ॥**

(काळोख)

## देखाव – तीन

(ल्हवू ल्हवू कट्यावयल्यान उजवाड फांकता. फांतोड जाल्या. दादगो आनी म्हादगो न्हिदेंतूच पारो करतात. कुंवर खुंट्याक बांदिल्लेकडेन आसा. बसला थंयच न्हिदला. कांय वेळान कट्यावयल्यान कोण तरी चडून येता तो दिसता. पयलीं दांडो दिसता आनी मागीर चानू उडकी मारून वयर येता. सगळ्याक नदर मारून सुलूस घेता आनी अदमास काडटा. जानूची अवस्था पळोवन ताका वायट दिसता. ल्हवूच जानू म्हऱ्यांत वचून ताका उठयता.)

चानू : दादो, दादो उठ. हांव आयलां चानू.
कुंवर : चानू? तूं कसो आयलो?
चानू : आदलेसारको कट्यावयल्यान. दादो, हें कितें? तुकां कोणें बांदून घातला?
(कुंवर नदरेनूच 'ताणी' म्हणून सांगता.)

चानू : (रागान) आर्र ते तर्पाशोर! म्हज्या दादोक असो रातभर हांगा बांदून घातला? (त्याच रागान) आनी ती गिर्जाराणी खंय?

कुंवर : चानू, तिचो कांय गुन्यांव ना. हाणीच म्हाका बांदून घातला.

चानू : आरे, पूण तांणी बरो बांदून घातलो म्हूण? तुकां सोडोवन घेवपाक कळना? ती तुजी गिर्जाराणीपसून सोडयता. कसलो राखणो रे तूं?

कुंवर : म्हाका सोडोवपाक कळटा चानू. असल्या दोरांक हांव बदतां? बांगर बैलाक आनी म्हाका हो दोर तोडपाक कांय न्हय.

चानू : मागीर कित्याक तोडलोना? तोडपाचो आनी कट्यावयल्यान येवपाचो सकयल.

कुंवर : कसो येवं चानू? आतां ती आसा न्हय रे! तुजी व्हनी. तिका एकलीच सांडून कसो येवं? आनी हे राकेस तर कशीच फाट सोडिना. चानू, गांवांत कितें खबर आसा?

चानू : सामकी वायट खबर आसा.

कुंवर : कसली?

चानू : सगळीच. तूं गिर्जाराणीकडेन लग्न जाला म्हूण आवोक खूब वायट दिसलां.

कुंवर : कित्याक?

चानू : राकेसांचे भयणीकडेन लगीन जावचेपरस आंकवार रावप बरें अशें तिचें म्हणणें.

कुंवर : पूण गिर्जा राकेस न्हय. ती मनशांसारकी मनीस. कितली मायेस्त! कितली गुणी!

चानू : पूण तें तिका कशें कळपाचें? व्हरून दाखयल्यार कळपाचें मूं?

कुंवर : हय, तेंवूय खरें. आनीक कसली खबर? म्हगेल्या गोरवांक व्हरून तुवें भाटकाराल्या गोठ्यांत पावयलीं?

चानू : पावयलीं. पूण तुगेल्या गोरवांतलीं काल एक गाय चुकली. आनी रातीं तिका वागान खाल्ली.

कुंवर : वागान खाल्ली?

चानू : हय. सकयल गांवांत वाग आयला. ताका मारिना जाल्यार तो आमगेल्या आनिकूय गोरवांक खातलो. भाटकार तुकां आतां फुक्यासवाय सोडचो ना. तुकां काडून वडोवचोना. कारण तुजेसारको हुशार राखणो मेळप ताच्या नशिबांत ना. पूण तुज्या पागांतल्यान तो गायचे दुडू वसूल करतलो. नाजाल्यार भाटकार कसलो?

कुंवर : चानू, मातशी तकली लडय.

चानू : कित्याक?

कुंवर : हांगासावन गिर्जाराणयेक घेवन म्हाका सकयल वचपाक जाय. ह्या राकेसांचोय त्रास जावंक जायना. आनी त्या वागाकूय मारपाक जाय. लडय, चानू तकली लडय. म्हाका कांयच सुचना. म्हाका फकत गिर्जाराणीचेंच चिंतून येता.

चानू : दादो, हांवें कितली तकली लडयली, पूण उपेग कितें? दर फावटीं म्हजी गुठली कट्यावयल्यान खाला.
(रागान) ह्या दोगूय तोमसुळांक कट्यावयल्यान सकयल लवंडिलेना जाल्यार जातीचो राखणो न्हय.

कुंवर : (ताका सादूर करता-ते आयकत म्हूण.) चानू, तुकां उरफाटो करूं?

चानू : करता म्हणटा?

कुंवर : हय चानू, करतां.
(बेगिबेगीन ताका पांयांक धरून उरफाटो करता. इतल्यान खोंपीचें दार उकतें जाता. दारांतल्यान गिर्जा पळयता. ल्हवूच आखाण्याचे दांडे काडून भायर येता. तांकां पळयता. अजापता.)

गिर्जा : हें, हें कितें चल्लां?
(कुंवर कुरवेनूच ताका वगी राव म्हूण शिटकायता आनी कितें चल्लां तें कुरवेनूच सांगता.)

चानू : दादो, म्हाका सारको कर.

(ताका सारको करता.)

कुंवर : कितें येवजलें?

गिर्जा : सांग, कसली मांडणी?

(चानू दोगांयच्या कानांत कितेंतरी सांगता. चडशे गिर्जाच्या कुंवराक सारकें कळूंना. चानू बेगिबेगीन कट्याकडेन वता.)

चानू : हांवें सांगलां तशें जावंदी. हांव हांगाच आसां. वालीक गोळो मारून रावतां.

(धांवत वचून कट्यावयल्यान सकयल देंवता. गिर्जा कुंवराक आसा तसो रावपाक सांगता. बेगिबेगीन आखाणो बंद करता खोंपींत धांवत वता. सदचें ताट आनी दांडो घेवन भायर येता आखाण्याकडेन रावून वाजयता, आनी म्हणटा.)

गिर्जा : **दादग्या रे दादग्या रे**
**उठा उठा उठा**
**किर्णा आयलीं पर्वतार**
**पटा पटा**

(दोगूय सडसडीत जागे जातात आनी गावपाक लागतात.)

दोगूय : **गिर्जाराणी भयणुले**
**उठले तुजे भाव**
**हालूं नाका धोलूं नाका**
**थंयच उबी राव**

(दादगो आखाणो काडटा. गिर्जा भायर येता. दादगो कुंवराच्या कमरेची दोरी सोडटा.)

गिर्जा : (उमेदीन) दादग्या, न्हीद कशी पडली?

दादगो : पडलीच ना. रातभर मनीसघाण. भयणी, तुकां सारकी न्हीद पडली न्हय?

गिर्जा : हय तर. आतां म्हजें लगीन जालां. न्हीद कित्याक पडची ना? बरी ऽ ऽ पडली. आतां सकाळ जाली मरे!

म्हादगो : चल्ले आमी कामांक.

दादगो : उदक हाडपाक.

गिर्जा : उदक हाडप. मागीर फुलांक वचप. आयज दोनूय कामां ना.

दोगूय : कित्याक?

गिर्जा : काल म्हजें लगीन जालां. आयज लग्नाचो पयलो दीस. रातीं हांव जेवूना. आयज म्हाका खूब-व्हडली भूक लागल्या. आयज म्हाका कोणाचें काळीज जाय जाणा?

दोगूय : कोणाचें?

गिर्जा : वागाचें.

दोगूय : वागाचें?

गिर्जा : हय. कित्याक हाडूंक जावचें ना? वागाक तुमी भियेतात? भियेतात जाल्यार आसूं.

दादगो : आसूं कित्याक? आमी हाडटले.

म्हादगो : वागाचें काळीज!

दादगो : चल म्हादग्या, हे घाणीपरस वागाची घाण बरी.
(दोगूय सुरे घेतात. वच्चेआदीं गिर्जाक आखाण्याभितर घालून आखाणो बंद करतात आनी कुंवराक खुंट्याचे दोरयेन बांदून घालतात. ते दोगूय गेल्ल्याची खात्री पट्टकूच गिर्जा आखाण्याचे दांडे काडून भायर येता. कुंवर कमराची दोरी सोडोवन वडयता.)

कुंवर : तुवें तांकां वागाचें काळीज कित्याक हाडपाक लायलें? वागाचें काळीज मनशां खायनात. हांव काय खावचों ना.

गिर्जा : तुकां दिता तरी कोण?

कुंवर : तूं खातलें?

गिर्जा : हांवें केन्ना कोणाच्या काळजाक तोंड तरी लायलां?

कुंवर : मागीर तांकां वागाचें काळीज हाडपाक कित्याक लायलां?

गिर्जा : तें म्हाका खंय खबर! तुज्या भावाची बुद्द ती.

कुंवर : (याद जावन) चानू ऽ

(चानू कट्यावयल्यान उडकी मारून येता. तो खोशी जाला.)

चानू : आहा! ओहो! दादो, आमी आतां गिर्जाराणीक घेवन सकयल या.

कुंवर : सकयल? कशे कट्यावयल्यान?

चानू : चोराभशेन कट्यावयल्यान कित्याक? बरे नेटान-झेतान वाजयत-गाजयत पाज्जेवयल्यान या.

कुंवर : पाज्जेवयल्यान?

चानू : हय रे. पाज्जेवयल्यान. आतां पाज्जेर कोण आसचे नात. मातसो थार धर. मातशी त्या वागाची करामत पळोवया.

गिर्जा : वागाची करामत?

चानू : आतां तुज्या दादग्याक आनी म्हादग्याक दोगांकूय वाग पळोवन घेतलो. ते वागाचें काळीज तोडूंक वतले. तेन्ना वाग तांकां सोडटा? वाग म्हणजे कोण? चानी, सोंसो, मेरू? वाग म्हणजे वाग. येदे व्हडले भाटकाराले गायेक खाल्ली ना ताणें? तो ह्या तुज्या भावांक सोडटा?

गिर्जा : म्हणजे? तो वाग म्हज्या भावांक खातलो? (चानूक) कसली पाडी बुद्द रे!

चानू : पाडी बुद्द? म्हणजे कितें? वा! तुज्या भावांक कांय जावपाक फावना?

गिर्जा : हरशीं कितेंय जाल्यार जाता. पूण मरप म्हणजे? एकदां मेले जाल्यार -

चानू : ते परते जाय कित्याक?

गिर्जा : आपणाल्या भावांविशीं म्हूण अशें चितूं येता? (दोगांकूय)

तुमकां भयण आसा?

दोगूय : ना.

गिर्जा : मागीर एके भयणीक भावाविशीं कितें दिसता तें तुमकां केन्नाच कळपाचें ना.

(गिर्जा हुंडक्या हुंडक्यांनी रडपाक लागता.)

चानू : (जानूक) दादो हे व्हनयेचीं लक्षणां म्हाका बरीं लागना. तिका घोवूय जाय, भावूय जाय. अशें कशें जातलें? गोरवांचे गवणींत वाग आनी वागाचे पेडींत गोरवांक दवरिल्लें भशेन जालें.

कुंवर : चानू, तूं आजून भुरगो आसा. तुकां बायलांच्यो भावना कळपाक कळाव आसा.

चानू : हें बरें तुमचें! बुद्द दिवपाच्या वेळार हांव जाणटो आनी भावना वळखुपाच्या वेळार हांव नेणटो!

कुंवर : (लहवूच फुसलायत) चानू, तुजे व्हनयेक बरें दिसपाखातीर म्हटलां रे तशें! तूं तकलेन कितलो हुशार तें वेगळें सांगपाक जाय? हांव हे गिर्जाराणीचो घोव जावपाक पावलों तो तुजेच तकलेक लागून न्हय?

(चानूक पट्टा. जानू गिर्जाराणीक समजायता. चानू पाज्जेवटेन पळयता.)

कुंवर : गिर्जाराणी, भियेवं नाका. तुज्या भावांक कांय जायना. इतले बळिश्ट तुजे भाव. तांकां पळयल्यारूच वाग पळून वतलो.

(चानू सकयल पाज्जेकडेन पळयत खोशेन हुयेली मारता. वागाची गरड आयकूंक येता.)

चानू : आहा! ओहो! पेटलें. दादो, ह्या तोमसुळांचें आनी वागाचें पाज्जेरूच पेटलें. थंयच पडली दोगांयची ...तिगांयची गांठ. पळय वागान तांचेर घातली झोंपय.

(गिर्जा अदीक रडटा. जानू एकेवटेन गिर्जाक समजायता आनी दुसरेवटेन चानू सांगता तें उमळशिकेन आयकता.)

चानू : (आड्डत) वागान आड केले दोगांकूय. बाग तांचे फाटीर

बसलो. तांणी वागाक शेंवटिलो. वाग तांकां आयकता? वागान तांकां परत आड केले. वाग तांच्या हड्ड्यार बसलो. आवयस! रगताची शिळकी! शिळक्यांर शिळक्यो! एक- दोन- तीन-

कुंवर : कोणाचें रगत?

चानू : तांबड्या रंगावयल्यान रगत म्हणून कळटा. कोणाचें तें कशें कळटलें? (ल्हवूच जानूक) कोणाचें तें सांगपाक जाय? (जानू ताका 'ल्हवू' म्हूण शिटकायता. गिर्जाक आयकूंक येत.)

गिर्जा : म्हज्या भावांक कितें जालें?

कुंवर : कांय ना. फकत रगत उसळ्ळां.

गिर्जा : कोणाचें?

कुंवर : आनीक कोणाचें? वागाचेंच आसतलें.

चानू : (ल्हवू) दादो, वाग म्हणजे कितें बोकडो म्हूण समजलो तूं? तें रगत तांचेंच. (सकयल पळयत अजापान) आरे! ह्या वागान दोगांकूय आपल्या हड्ड्यार घेतले. हो वाग आनी कितें रे! आपणाल्या हड्ड्यार तांकां खेळयता! त्यो कितें चानयो? सामकोच तकली नाशिल्लो वाग मरे हो! (परत उमेदीन आड्डून) आहा! ओहो!

कुंवर : कितें जालें जानू?

चानू : तिगांयची लडामुंडी! तिगांयनी एकामेकांक घट धरल्यात. कोणूच कोणांक सोडिना. एका सोपणांवयल्यान दुसऱ्या, दुसऱ्यावयल्यान तिसऱ्या. गुणे कशे गडावयल्यान गडगडत खाला. आतां दिसना. कांयच दिसना. दादो हांव कट्यावयल्यान सकयल वतां आनी तांचें कितें जालां तें पळयतां. (आत्मविस्वासान) दादो, हांवें सांगलां तश्शें जातलें. पळयशीत तूं. (चानू कट्यावयल्यान देंवून वता.)

गिर्जा : (जानूक) चानू कितें जातलें म्हणटा?

कुंवर : आनीक कितें? वागाचें मरण.

गिर्जा : म्हाकाय तशेंच दिसता. म्हज्या भावांक हांव वळखतां.ते वागाक

मारतले.

कुंवर : तशें जायना जाल्यार पुरो.

गिर्जा : कितें?

कुंवर : ना, ना. तशेंच जाल्यार पुरो.
(जानू पाज्झेकडेन वचून पळयता. थंयसावन-)

कुंवर : सकयल कांयच दिसना.

गिर्जा : रगताच्यो शिळक्यो आजून येतात?

कुंवर : ना. रगत सोंपलें आसतलें.

गिर्जा : तुकां कितें दिसता?

कुंवर : (पळयत) कांय दिसना म्हूण सांगलें न्हय?

गिर्जा : तुकां कितें दिसता, तें म्हाका खबर आसा.

कुंवर : कितें?

गिर्जा : म्हज्या भावांक वागान मारचें अशें तुकां दिसता.

कुंवर : तशें दिसल्यार म्हजें कितें चुकलें? (पळयत) आरे, आरे हांव सकयल पळयतां. तो हांगा वयर पावलो.

गिर्जा : (भंयान) कोण वाग?

कुंवर : (निराशेन) ना. दादगो. ताचे फाटल्यान म्हादगो. ते दोगूय वयर येतात.

गिर्जा : हातांत कितें आसा?

कुंवर : (पळयत) दिसना.

गिर्जा : जावं! वागाचें काळीज झक् मारूं! म्हजे भाव परत आयले ते खूब जालें.

कुंवर : (ताकतिकेन) चल, चल ते आयले. (बेगिबेगीन तिका आखाण्याभितर घालून आखाणो बंद करता. आपले आपूण कमराक दोरी बांदून घेता. कांय वेळान दादगो आनी म्हादगो येतात. दोगांयच्या आंगाचेर घावे जाल्यात. हातांत सुरे आसात. दादग्यान एका खोल्यांत घालून काळीज हाडलां. तांकां पळोवन गिर्जाक खोशी जाता. गिर्जाक खोशी जाल्या तें पळोवन जानूक

वायट दिसता.)

दादगो : घे भयणी, हाडलें तुकां वागाचें काळीज.

गिर्जा : तुमी खऱ्यांनीच वागाक मारलो?

म्हादगो : काळीज काडटकूच ताका सोडून दिलो. मेलो काय गेलो तें आमकां खबर ना.

गिर्जा : कितले शूर रे म्हजे भाव!

कुंवर : (खोंचून) खा. भावांनी हाडिल्लें काळीज खा.
(जानूक वायट दिसलां म्हणपाचें गिर्जाक कळटा. तो राग ती भावांचेर काडटा.)

दादगो : ह्या काळजाचें आतां कितें करूं?

गिर्जा : (तिडकत) कितें करूं म्हणजे? काळजाचें कितें करपाक कळटा तुमकां? रांदपाक कळटा? शाकोती करपाक कळटा?
(तांकां कांयच कळूंना.)

गिर्जा : तुमी फकत काळजां तोडपाचीं आनी भाजपाचीं. रानवटी आनी राकेसांचें कामूच तें. तांकां दुसरें कितें कळटा?

दादगो : (नेणारपणान विचारता) काळजाचें कितें करूं?

गिर्जा : (तिडत) माथ्यार दवर म्हज्या.
(दादगो तशें करपाक वता.)

म्हादगो : भितर वच.

गिर्जा : ना वचना.

म्हादगो : वचना? (सुरो उबारता.)

कुंवर : गिर्जा, भितर वच. नाजाल्यार ते तुकां मारतले.

गिर्जा : मारूं.

कुंवर : (समजायत) गिर्जा, भितर वच. तांकां जनावर आनी मनीस सारकें. म्हजेखातीर गिर्जा.
(गिर्जा मनांत नासतना आखाण्याभितर वता. ते आसा तशे आखाणो घालतात. दोगूय जाण खोंपींत वतात. गिर्जा त्याच रागान आखाण्याचे दांडे काडून भायर येता.)

गिर्जा : (रडत) जानू ऽ ऽ कितें करूं रे हांव? ते अनाडी आऊची कशीच फाट सोडपाक नात. ते मरचे नात आनी आमकांय जगपाक दिवचेनात. तांचें पाड पडूं! म्हजे आवययगेर ते तरी जावपाचे न्हय नातर हांव तरी जावपाचें न्हय. आतां कितें करपाचें रे जानू? (जानू तिका समजावपाचो यत्न करता. इतल्यान कट्यावयल्यान चानू येता. ताच्या हातांत हुऱ्याच्या झाडाच्यो पानांसयत खांदयो आसात.)

चानू : कांय करपाचें ना. ह्यो हुऱ्याच्यो खांदयो घे आनी तांचो दीख तुज्या भावांच्या घायांक लाय. घाय रोखडे पेखतले. आनी दादो तूं म्हजेबराबर यो.

कुंवर : खंय?

चानू : खंय म्हणजे? सकयल. सकयल पर्वताच्या मुळसांत आवो दांडो घेवन आयल्या.

कंवर : दांडो घेवन?

चानू : दांड्याबगर तिच्यान आतां चलपाक जाता?

कुंवर : ती थंय कित्याक आयल्या?

चानू : (खोचून) सुनेचें तोंड पळोवपाक!

कुंवर : खऱ्यांनीच?

चानू : तूं भुल्लसता बरो! हे गिर्जाराणयेन पिशें लायलां तुकां. दादो, आवो म्हणटाली-बायलेचें इतलें पिशें बरें न्हय. मनांत हाडल्यार बायल घोवाचो सत्यानाश पसून करता.

कुंवर : ना चानू, गिर्जाराणी, तुजी व्हनी तसली न्हय.

चानू : तुजे हाल चल्ल्यात ते पळोवं नजो. येदो व्हडलो दाणगो-दुणगो राखणो तूं. एकाबराबर पंचीस गोरवांक राखपी. आनी तूं कितें काय म्हणल्यार ह्या पर्वतार बंदी जावन पडला. गोरवांक खुंट्याक बांदून घालता तसो तुका हांगा बांदून घातला. कित्याक काय म्हणल्यार एके बायलेखातीर. दादो, आमकां कोणें सांगल्यांत हीं रानफुलां? आमच्या वट्टांतलीं शेवतीं,

आबोलींच आमकां फावता. तें शेण भरूक येता तें मोगरें कितें वायट दिसता? आनी दादो, आमी मनशांनी मनशांकडेनूच संबंद दवरपाक जाय. कितलेय जाल्यार ते राकेस. ते आमकां मनशांक कशे आटापा येतले? आमच्यो तकल्यो चलून चलून कितल्यो चलतल्यो? दादो, आनीक जिवावयलो खेळ नाका. ज्या कट्यावयल्यान आयिल्ले त्याच कट्यावयल्यान परत वचुंया. आवोकूय बरें दिसतलें.

(गिर्जाक पश्चात्ताप जाला.)

गिर्जा : चल जानू. म्हजो नाद सोड. तुजो भाव म्हणटा तेंच खरें. तुमी मनशांनी मनशांकडेनूच संबंद दवरपाक जाय. म्हजे भाव राकेस, मागीर हांव तरी वेगळें कशें आसतलें? मनीस आशिल्लें जाल्यार तुकां इतले कश्ट भोगचे पडचे नासले. चल जानू, तुजेबराबर संवसार करचेलें येवजिल्लें, मनशांसारकें जगपाचें येवजिल्लें, पूण शक्य ना. असलें भाग्य मेळपाक मागून येवचें पडटा. म्हज्या नशिबांत ना तें. तुजेकडेन लगीन जालें. खूब जालें. तुजी बायल म्हणून ह्या पर्वतार एकलेंच जगतां हांव. जेन्ना जगप असह्य जाता तेन्ना ह्या कट्यावयल्यान घालून घेतां. चल, चल तूं. तुज्या भावाबरोबर आयिल्लो तसो परत वच.

कुंवर : (निश्चेवान) ना. हांव हात हालयत परत वच्चों ना. हांवें मोग केला, हांव तो मोग शर्थी पावयतलों. गिर्जाराणीक घेवन हांव होंवर जावन सकयल वतलों. आवोक जोड्यान पांयां पडटलों. चानू, तुवें हरतरांनी यत्न केले. सगळ्याच यत्नांक फळ आयलें ना, पूण निदान हांव हांगा पावून गिर्जाराणीकडेन लगीन तरी जावपाक पावलों. ते ना मरू, पूण गोरवांक खावपी वाग तरी मेलो. हेच यत्न हांव चालू दवरतलों. म्हाका खबर आसा, सगळ्यांत श्रेश्ठ मनीसप्राणी. आमी मनशांचीं कुळां. जनावरां, राकेस, दैत असल्या प्राण्यांकडेन आमी जेन्ना जेन्ना झुजल्या तेन्ना आमचें मनशांचेंच जैत जालां. आतांय तेंच

जातलें. चानू, जैताबगर हांव आतां सकयल येवपाक शकना. नातर म्हाका सगळे हांसतले. आवो म्हजीं फकांणां मारतली. तुगेलो भट, म्हागेलो भाटकार हांचो हांव मस्कऱ्यांचो विशय जातलों. सगळेच चाळोवन म्हणटले, 'तुमी राखणे. तुमची बुद्द धोंपरांत. राजकुंवरांचीं न्हेसणां न्हेसले म्हणून कोण राजा जावंक आयला?' चानू हांव झुजतलों. शक्तीन आनी युक्तीन. पळयशी तूं, आनी जेन्ना तकली आनी हात-पांय चलना तेदेवेळार ह्या कट्यावल्यान आपूण जावन घालून घेतलों.

गिर्जा : जानू म्हज्या राया, हांव तुजी जल्माची सांगातीण. कितल्याय संकश्टांत हांव तुजो सांगात सोडचीना. तूं तकली लडय, झूज आरंभ कर, हांव तुज्या सांगाताक आसा. आमच्या मोगापरस व्हड दुसरें कांयच ना.

कुंवर : शाब्बास गिर्जाराणी! तुज्या मोगा इतलोच म्हाका तुजो अभिमान!

(इतलो वेळ जानूचीं उतरां आयकतना फुगार जाल्लो चानू अस्वस्थ जाता. थंयचे थंय पासयो मारता, आनी दादो ऽ ऽ म्हणून उडी मारून पांय वरशे करून तकलेन एकलोच उबो रावता. ताची ती कृती पळोवन जानू आनी गिर्जाक खोस जाता.)

कुंवर : चानू, आतां उपाय सुचलेबगर रावचोना. तुज्या पांयांक घट धरूं?

(खुणेनूच 'नाका' म्हूण सांगता.)

कुंवर : मातशें बेगीन येवजता जाल्यार पळय.

गिर्जा : ते दोगूय घरांत आसात न्हय? तांकां ना करपाचो कसलोय उपाय सुचता जाल्यार पळय. म्हाका आतां तांचो रागूच आयला. ते दोळ्यांमुखार नाका.

कुंवर : चानू, कितें येवजलें?

चानू : भाशण दिवपा इतलें सोंपें तें?

गिर्जा : (ताकतिकेन) चानू बेगीन. तांचें काळीज भाजून जालें. वास पासून येता.
(कांय वेळ वता. दोगांय ताचे तकलेकडेन उमळशिकेन पळयत रावतात. तो उडकी मारून आसा तसो जाता.)

चानू : दादो, बुद्द धोंपरांत म्हणटा तें फट. बुद्द तकलेंतूच आसता.

कुंवर : मागीर?

चानू : ती एक म्हणणी आनी समजणी!

कुंवर : जावं धोंपरांत, जावं तकलेंत. कितें तरी येवजलें काय ना?

चानू : येवजलें तर! पूण दादो, तें पयलीं गिर्जाव्हनीकूच सांगपाचें. तिणें हय म्हणलें जाल्यार मागीर मुखार.

गिर्जा : सांग, म्हाका सांग.
(गिर्जा मुखार येता. चानू तिच्या कानांत कितें तरी सांगता. तितल्यान जानू खोंपीचेर लक्ष दवरता.)

कुंवर : बेगीन. ते भायर येवपाचे जाले.
(चानूचें सांगून जालां. गिर्जा तें आयकता आनी व्हडल्यान आड्डता.)

गिर्जा : ना ऽ ऽ.

चानू : (रागान) तशें जाल्यार बस तुज्या भावांक वेंग मारून. (जानूक) दादो, हांव चल्लों. तुकां तुजी बायल लखलाब जावं!
(कट्याचेर वचपाक वता, इतल्यान गिर्जाराणी ताका आडायता.)

गिर्जा : हांव तयार आसां.

कुंवर : चानू, कितें तें म्हाकाय सांग.

चानू : तुकां व्हनी सांगतली. म्हाका वेळ जाता. नातर तुजे ते मेवणे म्हजें काळीज भायर काडीत. (व्हदळ हाडिल्ल्यो ह्रुऱ्याच्यो खांदयो तिचेकडेन दिता.) घे. आतां कर सुरू. हांव चल्लों. पळय, ऐन वेळार फाटीं सरशी.

(चानू कट्यावयल्यांन देंवन वता. कुंवर आपणाक दोरयेन बांदून घेता. गिर्जा आखाण्या भितर वता. तो बंद करता. खोंपीच्या दारांत दादगो येवन उलो मारता.)

दादगो : गिर्जाराणी, काळीज भाजून जालें.

गिर्जा : थंयच बसून खायात.

दादगो : तुजो वांटो कितें करूं?

गिर्जा : तोवूय तुमीच खायात.

दादगो : तुकां व्हडली भूक लागिल्ली ताचें कितें जालें?

गिर्जा : ती आतां बारीक जाली. काळजां खायात आनी बेगीन भायर येयात.

दादगो : बरें. बरें. (तो आसा तसो भितर वता.)

कुंवर : चानून तुकां कितें सांगलां?

गिर्जा : वागाचें काळीज खातकच तांची तकली भेरेतली. मागीर तांच्या घायांचेर हें वखद लावपाचें.

कुंवर : हुऱ्याचो दीख? जाळ पडटले.

गिर्जा : तेचखातीर तर लावप.

कुंवर : आनी मागीर?

गिर्जा : (गंभीर) मागीर तो उपाय.

कुंवर : कसलो उपाय?

(खोंपीचें दार उकतें जाता. दोगूय भायर येतात. तोंडां हालतात. आखाण्याचे दांडे काडटात. कुंवराची दोरी सोडटा.)

गिर्जा : इतले बेगीन खावन जालें?

दादगो : हय. बरें लागलें म्हणून बेगिबेगीन खाल्लें.

गिर्जा : बरें म्हणल्यार कशें लागलें? गोड काय तीख? आंबट काय तुरट?

(तांकां कळना)

जावं, बरें लागलें म्हणटकच जालें. सगळें खालें मरे?

दोगूय : हय.

गिर्जा : म्हजोय वांटो खालो?

दोगूय : हय.

गिर्जा : तुमच्या भावोजीकबी दवरूंक ना मरे?

दोगूय : ना.

गिर्जा : बरें केलें.

दादगो : गिर्जाराणी, म्हजे तकलेर फातरबी आसा?

गिर्जा : ना.

दादगो : मागीर म्हजी तकली जड कशी लागता?

म्हादगो : म्हाकाय तशीच लागता. जड!

गिर्जा : (विशय बदलून) व्हदळ वागाक मारतना आंगार केदे घाये जाल्यात पळय. ते दुखना?

दादगो : दुखता आसूंक जाय. पूण कळना.

गिर्जा : तेचखातीर हें वखद हाडलां.

दादगो : कसलें वखद? खंयच्या वैजान सांगलां? वैज खंय? (सुरो उखलता.)

म्हादगो : हें तुवें खंयसावन हाडलें?

गिर्जा : खुळे म्हणल्यार तकली बरी चलता मरे तुमची. ह्यो खांदयो हांवें हांगाच्योच पोरसांतल्यो तोडल्यो. हांव आसा भितर. भायर खंय वतली? घायांचेर हो दीख लायतकच घाये बरे जातले. मागीर तुमी म्हजें एक काम करपाक जाय.

दादगो : सांग गिर्जाराणी, काम सांग.

गिर्जा : पयलीं म्हज्या मोगाळ भावांची सेवा. मागीर काम.

(दोगांकूय दोनकडेन बसयता. खांदयेचो दीख पयलीं दादग्याच्या घायांक लायता. म्हणल्यार खांदयेचें पोंतूच घायार लायता. तेसरशीं तो व्हडल्यान हुयेली मारता. तागेल्यो हुयेली आयकून म्हादगो व्हडल्या व्हडल्यान हांसता. मागीर गिर्जा दुसरे खांदयेचा दीख म्हादग्याच्या घायांक लायता. तसो म्हादगोय हुयेली मारता. आतां दादगो ताका व्हडल्या व्हडल्यान हांसता.

हांसता आनी हुयेलीय मारता. दोगूय अशें करतात. दोगूय उचांबळीत जाल्यात. सुरे घेवन हांगाथंय नाचतात.)

दादगो : भयणी काम सांग.

म्हादगो : काम सांग.

गिर्जा : म्हाका आत्तां काळीज जाय.

दादगो : काळीज? तें आमी आत्तां खाल्लें.

गिर्जा : तसलें काळीज नाका. वागाचेंय नाका आनी शिंवाचेंय नाका.

म्हादगो : मागीर कसलें जाय?

गिर्जा : (लाडान) नाच्च सांगची.

दादगो : सांग, भयणी सांग. आवय सांगून गेल्या, तूं मागता ताचें काळीज हाडून दी म्हणून.

गिर्जा : खरेंच ?

म्हादगो : तूं फकत सांग.

गिर्जा : व्हडल्यान सांगची ना. तो (कुंवर) आयकता.

दादगो : (कुंवराक धपकायत) ए ऽ ऽ कान बंद कर. बंद कर म्हणटा न्हय! (सुरो उबारता. कुंवर हातांनी कान बंद करता.)

गिर्जा : कानांत सांगतली.
(दोगूय कान लार्गी करतात.)

गिर्जा : ना. दोगांकूय बरोबर न्हय. एकल्या एकल्याक.

दादगो : पूण– तूं अशें कित्याक करता? म्हाका एकल्याक काम करपाची संवय ना.

गिर्जा : कितें करतली? हें कामूच तशें. एकल्या एकल्यान करपाचें. पयलीं कोणाक सांगूं?

दादगो : म्हाका.

म्हादगो : म्हाका.

दादगो : नाका. पयलीं म्हादग्याक सांग.

म्हादगो : नाका. पयलीं दादग्याक.

गिर्जा : हांव पळयतां पयलीं कोणाक सांगपाचें तें.

(पयलीं दादग्याच्या कानांत सांगता. तेसरशीं दादगो म्हादग्याचेर करा करून पळयता. सुरो घेवन तयार जाता. मागीर गिर्जा धांवत म्हादग्या म्हऱ्यांत वता. ताच्या कानांत तशेंच कितेंशें सांगता. तेसरशीं म्हादगो सुरो घेवन चवताळटा. दोगूय एकामेकाचेर झुडोन वतात. गिर्जा कडेक उबी रावता. जानूक कितें घडटा तें कळना. तो गिर्जासरीं येता. ते झुजतात.)

कुंवर : गिर्जा, हें कितें चल्लां? ते एकामेकाचे वैरी जावपाक तुवें तांच्या कानांत सांगलें तरी कितें?

(गिर्जा वगी रावता.)

कुंवर : ते एकामेकाचो जीव काडलेबर रावचे नात.

गिर्जा : तेंच तर आमकां जाय.

कुंवर : पूण अशेभशेन?

गिर्जा : कशेयभशेन.

(दादगो आनी म्हादगो सुऱ्यांनी झगडटात. व्हडल्यान हुयेली मारतात. दोगूय एकामेकाच्या हड्ड्याकडेन सुरे मारपाचो यत्न करतात. एकामेकाचेर मारतातूय. एकामेकांक धरतात. हड्ड्यार बसतात, हड्डीं फोडपाचो यत्न करतात. शेवटाक दोगांयची लडामुंडी जावन दोगूय कट्यार पावतात, आनी दोगूय कट्यावयल्यान सकयल पडटात. व्हडलो आवाज जाता. गिर्जा दोळे धांपून रडटा.)

कुंवर : गिर्जाराणी, तांणी एकामेकाचीं हड्डीं फोडलीं. तुवें तांच्या कानांत कितें सांगलें? म्हाका सांगची ना?

गिर्जा : हांवें भयणीन तांचीं काळजां मागलीं. दादग्याकडेन म्हादग्याचें काळीज मागलें आनी म्हादग्याकडेन दादग्याचें काळीज मागलें. तांणी म्हाका इतली सांबाळ्ळी. ताचें पानवळ हांवें तांकां भोगयलें.

कुंवर : भावांक मारपाचें येदें धाडस तुवें केलें?

गिर्जा : घोवाच्या मोगाखातीर.

कुंवर : ही असली बुद्द तुकां कोणें दिली?

गिर्जा : आनीक कोण? (कट्याकडेन पळयता.)

(ते वटेन चानू वयर येता. पयलीं दांडो दिसता आनी मागीर चानू उडकी मारून वयर येता.)

चानू : शी! दोगांयचें चेकणें जालें. कट्यावयल्यान गडगडून सकयल. तांचेबराबर कितलेशेच फातर गडगडले. हांव बरो वाटावलों. म्हज्या माथ्यार एक फातर-बितर पडल्यार म्हजी कळपुटी जातली आसली. निमाणेमेरेन दोगांयनी एकामेकांच्या हड्ड्याचो तीर सोडलो ना. सुऱ्यांनी दोगांयनी एकामेकाचीं काळजां कापून भायर काडलीं. सामकें आकांताचें झूज.

गिर्जा : (हुंडकेत) निमाणे सोंपलें सगळें.

चानू : गिर्जाव्हनी, ते तुजे भाव आशिल्ले खरे! पूण ते राकेसूय आशिल्ले. तुजे दोग भाव मेले. पूण आमी दोग भाव हाजीर आसात. तुजे सेवेक, आमी खंयच उणे पडचे नात. कितें दादो? खरें न्हय?

कुंवर : हय म्हज्या भावा चानू. तुजे उपकार हांव कशेच विसरचोंना.

चानू : दादो, भावाचे उपकार जातात रे? न्हय गिर्जाव्हनी?

कुंवर : चल, हिका घेवन आमी सकयल या. आवो आमची वाट पळयता आसतली. (वचपाक वळटा.)

चानू : राव दादो, ती तुजी बायल खरी. पूण ती गिर्जाराणी हे विसरूं नाका. राणयेक कशी व्हरतात तें तुकां खबर ना?

(माचूलाकडेन बोट दाखयता. दोगूय गिर्जाक बळजबरीन माचुलांत बसयतात आनी माचूल खांदार मारून मेकळे सुवातेर एक भोंवर मारून पाज्ज देंवन वतात. माचूल व्हरतना माचुलाचें गती-गीत गायतात.)

पयलो : **ओ रे सोय ओ रे सोय !**

दुसरो : **ओ हो ओ हो !**

(पार्श्वभागाचेर गिताचीं उतरां आयकूंक येतात.)

**सोंपलो बंदिवास आतां**
**सोंपलो बंदिवास**
**सोंपले कश्ट, खेद खंत**
**सोंपले सगळे त्रास**
**फुलून गेल्यो खोश्शेभारान दोंगर आनी दोणी**
**वयर वयर पर्वतार आसली गिर्जाराणी**

(माचूल वतना मर्दींच थीर जाता. मुखावयलो भाग उजळटा आनी आरंभाक आयिल्लो पंगड परत गायत नाचत मुखार येता.)

**दोन कुळां दोन खुळां तांच्या काळजा काणी**
**वयर वयर पर्वतार आसली गिर्जाराणी**

(सोंपता)

## कला चेतना, वळवय निर्मित -
## 'काळजाची काणी' (2000)...



कलाकार : सुचिता नार्वेकार, राजदीप नायक आनी विठ्ठल नायक.



कलाकार : राजदीप नायक आनी सुचिता नार्वेकार.



काळजाची काणी ! एके परिकथेच्या परिवेशांतली. तातुंतलीं पात्रांय परिकथेक सोबसारखींच. कथेंत आनी व्यक्तिचित्रणांत सुमाराभायली अतिताय आसा खरी पूण तर्काचे कसवटेर ती सभावीक दिसता. परिकथा ही लोककथेचे धर्तिचीच आसता. ते खातीर तिचे प्रस्तुतीक लोकधर्मी शैलीच अदिक योग्य थारता.

ही काणी दोन अपुरबुद्ध खुळांची तशेंच दोन फिशाल कुळांची. ती एक प्रेमकथाय. रानांतल्या रानफुलाची आनी रानकुंवराची!




ISBN 81-86488-85-5